ಆಪ್ಯೆ; ಪ್ಯೆಲೊ: ಪ್ಯೆರ್: ಪ್ಯೆಲೊ; ಸಕ್ಯೆಲ್: ಸಕ್ಯೆಲೊ ಅಶೀಂ ಬರೊವ್ಚೀಂ ನ್ಹಯ್.

ಅಪ್ವಾದ್: 'ಪ್ಯೆರ್' ಹೆಂ ಉತರ್ ದುಸ್ರ್ಯಾನ್‌ಕಾಯ್ ಹ್ಯಾ ಅರ್ಥಾನ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾರ್ "ಪ್ಯೆರ್" ಅಶೆಂಚ್ ಬರೊವ್ಚೆಂ.

### नेम १९ ನೇಮ್ 19

अकारान्त आनी अिकारान्त अुतरांक सवे विभक्तींतलो चो-ची–चें हो प्रत्यय लागता तेन्ना प्रत्यया आदीं अिकार आयल्यार तो दीर्घ बरोबचो.

देखीक: कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ. आदले बरपावळीचो सोद घेवंक जाय. केळीचो घड पिकूंक आयला. हालींचीं संकश्टां आमीच आंगार बोडून घेतल्यांत. तिज्या गळयांतले वस्तीचें मोल कोणाच्यान करूंक जायत!

ಅಕಾರಾನ್ತ್ ಆನಿ ಇಕಾರಾನ್ತ್ ಉತ್ರಾಂಕ್ ಸವೆ ವಿಭಕ್ತಿಂತ್ಲೊ ಚೊ–ಚೀ–ಚೆಂ ಹೊ ಪ್ರತ್ಯಯ್ ಲಾಗ್ತಾ ತೆನ್ನಾ ಪ್ರತ್ಯಯಾ ಆದೀಂ ಇಕಾರ್ ಆಯ್ಲ್ಯಾರ್ ತೊ ದೀರ್ಘ ಬರೊವ್ಚೊ.

ದೆಖೀಕ್: ಕೊಂಕಣೀಚೀ ವ್ಯಾಕರಣೀ ಬಾಂದಾವಳ್, ಆದ್ಲಿ ಬರ್ಪಾವಳೀಚೊ ಸೋದ್ ಘೆವ್ಂಕ್ ಜಾಯ್. ಕೆಳೀಚೊ ಘಡ್ ಪಿಕೂಂಕ್ ಆಯ್ಲಾ. ಹಾಲೀಂಚೀಂ ಸಂಕಷ್ಟಾಂ ಆಮೀಚ್ ಆಂಗಾರ್ ಒಡೂನ್ ಘೆತ್ಲ್ಯಾಂತ್ ತಿಜ್ಯಾ ಗಳ್ಯಾಂತ್ಲಿ ವಸ್ತೀಚೆಂ ಮೋಲ್ ಕೊಣಾಚ್ಯಾನ್ ಕರೂಂಕ್ ಜಾಯ್ತ್!

### नेम २० ನೇಮ್ 20

अंक कूस लागिल्लया धातु–अव्ययांतलें क गळटा तेन्ना आदलो अुकार ह्रस्व बरोवचो.

देखीक: वचूंक नासलो = वचुंनासलो.

करूंक येता = करुंयेता.

'ಊಂಕ್' ಕೂಸ್ ಲಾಗಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧಾತು–ಅವ್ಯಯಾಂತ್ಲೆಂ 'ಕ' ಗಳ್ಟಾ ತೆನ್ನಾ ಆದ್ಲೊ 'ಉ'ಕಾರ್ ಹ್ರಸ್ವ ಬರೊವ್ಚೊ.

ದೆಖೀಕ್ : ವಚೂಂಕ್ ನಾಸ್ಲೊ = ವಚುಂನಾಸ್ಲೊ.

ಕರೂಂಕ್ ಯೆತಾ = ಕರುಂಯೆತಾ.

ಆಜ್ ದೇವನಾಗರಿ ಬರ್ಪಾವಳೀಂತ್ ई ಆನಿ ऊ ಹೆಚ್ ಪಳೋಂವ್ಕ್ ಮೆಳ್ತಾತ್. ಕಾನಡಿಂತ್ 'ಈ' ಸ್ವರಾಕ್ ವೆಗ್ಳೀಚ್ ಏಕ್ "ೀ" ಕುರೂ ಜಾಯ್ ಪಡ್ತಾ. ತೀ ಗರ್ಜೆ ಭಾಯ್ರ್ ವಾಪುರ್ನಾತ್.

ಫಕತ್ ಉಚ್ಚಾರಾಚ್ಯಾ ವೆಗ್ಳೆಪಣಾ ವರ್ವಿಂ ಹೀ ಬರೊವ್ಪಾ ಪದ್ದತೆಚಿ ವೆಗ್ಳಿ-ವೆಗ್ಳಿ ಪರಂಪರಾ ಸಾಂಬಾಳ್ತಾತ್ ಮ್ಹಣೊಂಕ್ ಜಾಯ್ನಾ. ಗ್ರಂಥ್‌ಕಾರ್ ಆಪ್ಣಾಕ್ ಬರೆಂ ಲಾಗ್ತಾ ತಶೆಂ ಆನಿ ಬರೊವ್ಪಿ ಆಪ್ಣಾಕ್ ಸೊಭ್ತಾ ವಾ ಮಾನ್ತಾ ತಶೆಂ ಬರಯ್ತಾತ್. ಕಾನಡಿ ಆನಿ ದೇವನಾಗರಿ ಲಿಪಿ ಬರೊವ್ಪಾಚ್ಯೆ ಪದ್ದತೆಕ್. ಸೊಭಾಯೆಕ್ ಆನಿ ಲಿಪ್ಣೆಚ್ಯಾ ಸುಸಾರ್ಪಣಾಕ್, ಸೊಂಪೆಪಣಾಕ್ ವಾ ಅನುಕೂಲಾಯೆಕ್ ಲಾಗೂನ್‌ಚ್ ಅಶೆಂ ಜಾಲಾಂ ಮ್ಹಣುಂಯೆತ್.

ದೇವನಾಗರಿ ಬರೊವ್ಪಾಚಿ ಪದ್ದತ್ ಸೂಕ್ಷ್ಮಾಯೆನ್ ಪಾಳೂನ್ **कोंकणी वर्णावळीची ही वेवस्ता** 'ಕೊಂಕಣಿ ವರ್ಣಾವಳೀಚಿ ಹೀ ವೆವಸ್ತಾ' ಅಶೆಂ ಲಿಪಿ ಯಂತರಾಚ್ಯಾ ರ್ ಕಾಂಯ್ ಚೂಕ್ ಜಾಯ್ನಾ ಜಾಯ್ತ್. ತರಿಪುಣ್ 'ಈ' ದೀರ್ಘ್ ಕುರೂ ("ೀ") ಕಾನಡಿಂತ್ ವಾಚುಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾನಾ ತೊ ಸ್ವರ್ ಗರ್ಜೆ ಭಾಯ್ರ್ ಲಾಂಬೊಂವ್ಕ್ ಕಾರಣ್ ಜಾತಾ. ಜುಯ್ತೆಕಡೆನ್ ತೀ ಜರೂರ್ ವಾ ಅವಶ್ಯ್ ದಿಸನಾ ಆನಿ ತೀಚ್ ಪರತ್ ಪರತ್ ಘಾಲುಂಕ್ ಛಾಪ್ಯಾಕ್ ಖಾರ್ ಆನಿ ವಾಚ್ತೆಲ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ದೊಳ್ಯಾಂಕ್ ಭಾರ್. ಹ್ಯಾಚ್ ಕಾರಣಾಕ್ ಲಾಗೂನ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಚ್ಯೆ ಬರ್ಪಾವಳೀಂತ್ ತೀ ತಿತ್ಲಿ ಚಾಲು ನಾ ಮ್ಹಣುಂಯೆತ್.

ದೆಖೊನ್ ಏಕಾಕ್ಷರಿ ಶಬ್ದ್. ಸರ್ವನಾಮಾಂ "ಆಮಿ" "ತುಮಿ" ಆನಿ ಧಾತುಕ್ ಲಾಯ್ಲೆಲೆಂ 'ಊನ್' ಅವ್ಯಯ್ ಸೊಡೂನ್. ಯೆರ್ ಸಬ್ದಾಂಚ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಂಕ್ ದೇವನಾಗರಿಂತ್ ಲಾಯ್ತಾತ್ ತಸಲ್ಯೊ ಸ್ವರಾಂಚ್ಯೊ ದೀರ್ಘ್ ಕುರ್ವೊ ಕಾನಡಿಂತ್ ಗರ್ಜೆ ಭಾಯ್ರ್ ವಾಪರಿನಾಸ್ತಾನಾ ಮಂಗ್ಳೂರಿ ಪರಂಪರಾ ಸಾಂಬಾಳೂನ್—

ದೇವನಾಗರಿಚಿಂ: **आनी, सरी, चली** .........

ಕಾನಡಿಂತ್ : **ಆನಿ,** ಸರಿ, ಚಲಿ .........

ಅಶೆಂ ಬರೊವ್ಚಿಂ ಮ್ಹಣ್ ಥಾರಾಯ್ಲಾಂ.

ಹ್ಯಾ ವರ್ವಿಂ ಉಚ್ಚಾರಾಂತ್ ಕಾಂಯ್ ವ್ಹಡ್ ಬದ್ಲಾವಣ್ ಜಾಯ್ನಾ. ದೆಖೊನ್ ಭಾಸ್ ಏಕ್‌ರೂಪಿ ಕರ್ಚ್ಯಾಕ್ ಹೀ ಏಕ್ ಆಡ್ವಳ್ ಜಾವ್ಚಿನಾ.

ದೇವನಾಗರಿ ಲಿಪಿ ವಾಪರ್ತಾನಾ ಆಪ್ಣಿಂ ತಿಚಿ ಪರಂಪರಾ ಪಾಳುಂಕ್ ಯೆತಲಿ.

## 7. ದೇವನಾಗರಿ ಆನಿ ಕಾನಡಿ ಮಧ್ಲೊ ಬರೊವ್ಪಾ–ವಾಚ್ಪಾಚೊ ಫರಕ್:

ಕಾನಡಿ ಬರಾಬರ್ ದೇವನಾಗರಿ ಲಿಪಿನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವಾಚ್ಪಾಬರೊವ್ಪಾಚೊ ಅಭ್ಯಾಸ್ ಕರುಂಕ್ ಪ್ರತಾಪ್ ನಾಯಕಾನ್ ಅಗೋಸ್ತ್ 26. 1982 ಥಾವ್ನ್ ಏದೊಳ್ ಪರ್ಯಾಂತ್ ರಾಕ್ಣ್ಯಾರ್ 'ಕೊಂಕಣಿ ದೇವನಾಗರಿ ವಿಭಾಗಾಂತ್' ಉಂಡಿಯಾಂನಿ

ವಾಚುಂಕ್ ದಿಲ್ಲೆಂ ತೆಂ ಜಪೊವ್ನ್ ತಾಂಚ್ಯೆ ಅನುಮತೆನ್ ಹಾಂಗಾಸರ್ ದಿಲಾಂ. ದೇವನಾಗರಿ ಬರೊವ್ಪಾಚೊ ಸಂಪೂರ್ಣ್ ಅಸ್ವೀಕಾರ್ ಕೆಲ್ಯಾರ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತ್ಲೆಂ ಬರಪ್ ವಾಚ್ತಾನಾ ವಾಚ್ಪ್ಯಾ ಘುಸ್ಪಡ್ತಲೆ. ದೆಖೊನ್ ಹಾಂಚೆ ಮುದೆಂ ಅಸಾ ತೊ ಮುಖ್ಯ್ ಫರಕ್ ಸದಾಂಚ್ ಮನಾಂತ್ ಧರುಂಕ್ ಜಾಯ್.

ದೇವನಾಗರೆಂತ್: **अभिमान** ಅ / ಭಿ / ಮಾ / ನ. ಹಾಂತುಂ 4 ಉಚ್ಚಾರಾಕ್ಷರಾಂ (syllables);

ಆನಿ ಕಾನಡಿಂತ್: ಅ / ಭಿ / ಮಾನ್ /. 3 ಉಚ್ಚಾರಾಕ್ಷರಾಂ ಪಳೊಂವ್ಕ್ ಮೆಳ್ತಾತ್.

ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಂತ್ 'ನ' ಅಕ್ಷರಾಂತ್ 'ಅ' ಸ್ವರ್ ಅಸಾ ತೊ ದೇವನಾಗರೆಂತ್ ದಿಸ್ತಾ. ಕಾನಡಿಂತ್ ಗಳಯ್ತಾ. ಕಾರಣ್ ದೇವನಾಗರಿ ಬರೊವ್ಪಾ-ವಾಚ್ಪಾಚಿ ಪದ್ಧತಿ ಪವಾರ್ಣೆಂ ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಚಿ. ಆನಿ ಜಾಯ್ತ್ಯಾ ಪಾವ್ಟಿಂ ಮುದ್ದಾಮ್ 'ಅ' ಸ್ವರ್ ಬರಯ್ತಾತ್. ಪೂಣ್ ತಾಚೊ ಸ್ಪಷ್ಟ್ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರಿನಾತ್. ಕಾನಡಿಂತ್ 'ನ' ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ತಾಚೊ ಸ್ಪಷ್ಟ್ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾತಲೊಚ್. ತ್ಯಾ ಖಾತಿರ್—'ಅಭಿಮಾನ' ಬದ್ಲಾಕ್ 'ಅಭಿಮಾನ್' ಬರಯ್ತಾತ್: ಹಾಂತುಂ ಅ+ಭಿ+ಮಾನ್ ಅಶಿಂ 3 ಉಚ್ಚಾರಾಕ್ಷರಾಂ ಮೆಳ್ತಾತ್

ದೇವನಾಗರೆಂತ್ ಬರಯ್ಲ್ಲೆಂ ವಾಚ್ತಾನಾ ಅಕಾರಾಂತ್ ('ಅ'ನ್ ಸೊಂಪ್ಲಲ್ಯಾ) ಸಬ್ದಾಂತ್ ಯೆತಾ ತ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಚ್ಯಾ 'ಅ' ಸ್ವರಾಚೊ ಆನಿ 4 ಅಕ್ಷರಾಂಚ್ಯಾ ಸಬ್ದಾಂತ್ ಯೆತಾ ತ್ಯಾ ದುಸ್ರ್ಯಾ (ವಾ ತಿಸ್ರ್ಯಾ) ಅಕ್ಷರಾಂತ್ಲ್ಯಾ 'ಅ' ಸ್ವರಾಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾಯ್ನಾ. ಪೂಣ್ ಸಾರಸ್ವತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ 'ಘರ'. 'ಫಳ' ಬರಯ್ತಾತ್ ಆನಿ ತರೀಂಚ್ 'ಅ'ಚೊ ಧಾಂಕೊ ಆನಿ ಘೋವ್ ಮೊಟ್ಯೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರ್ತಾತ್.

**घर** (ಘರ) - ಘರ್: **फळ** (ಫಳ) - ಫಳ್: **वाग** (ವಾಗ) - ವಾಗ್; **समजत** (ಸಮಜತ) - ಸಮ್ಜತ್. **समजता** (ಸಮಜತಾ) - ಸಮ್ಜತಾ (ವಾ ಸಮಜ್ತಾ).

3 ಅಕ್ಷರಾಂಚ್ಯಾ ಸಬ್ದಾಂತ್ ದುಸ್ರೆಂ ಅಕ್ಷರ್ 'ಅ' ಸ್ವರ್ ಲಾಗ್ಲೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್: ಆನಿ (a) ತಿಸ್ರೆಂ ಅಕ್ಷರ್ ತಸೆಂಚ್ ಪುಣಿ 'ಅ' ಲಾಗ್ಲೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ತಿಸ್ರ್ಯಾಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾಯ್ನಾ. ದುಸ್ರ್ಯಾಚೊ ಜಾತಾ; (b) ಆನಿ ತಿಸ್ರ್ಯಾಚೊ ಸ್ವರ್ 'ಅ' ನ್ಹಯ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಮದ್ಲ್ಯಾ 'ಅ'ಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾಯ್ನಾ.

**पारवो** (ಪಾರವೊ): **जिबली** (ಜಿಬಲಿ): **पाळणें** (ಪಾಳಣೆಂ).

5 ಅಕ್ಷರಾಂಚ್ಯಾ ಸಬ್ದಾಂತ್ ಅಸ್ಲ್ಯಾ ದುಸ್ರ್ಯಾ 'ಅ' ಸ್ವರಾಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾಯ್ನಾ: **खतखतता** (ಖತಖತತಾ) - ಖತ್ಖತ್ತಾ. ಅಕಾರಾಂತ್ ಸಬ್ದಾಂತ್ಲ್ಯಾಂ ಕೊಂಕ್ಣ್ಯಾಂತ್ ಅದ್ಲ್ಯಾ 'ಅ'ಚೊಯೀ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾತಾ: **चरचरप** (ಚರಚರಪ) - ಚರ್ಚರಪ್ ತಿಸ್ರ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಂತ್ಲ್ಯಾ 'ಅ'-ಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಾತಾ· **भगभगप** (ಭಗಭಗಪ್) - ಭಗ್ಭಗಪ್.

8. ದೇವನಾಗರಿ ಲಿಪಿನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿಚೊ ಅಭ್ಯಾಸ್ :

| | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷರ್ | ಆವ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|
| 1. अ ಅ | अभिमान | ಅಭಿಮಾನ | ಅಭಿಮಾನ್ | obhiman |
| | अभिप्राय | ಅಭಿಪ್ರಾಯ | ಅಭಿಪ್ರಾಯ್ | obhiprai |
| | अर्थ | ಅರ್ಥ | ಅರ್ಥ್ | orth |
| | अग्नी | ಅಗ್ನೀ | ಅಗ್ನಿ | { ogni<br>{ agni |
| | अळणी | ಅಳಣೀ | ಅಳ್ಣಿ | ollnni |
| 2. आ ಆ | आवाज | ಆವಾಜ | ಆವಾಜ್ | avaz |
| | आवथ | ಆವಯ | ಆವಯ್ | avoi |
| | आकार | ಆಕಾರ | ಆಕಾರ್ | akar |
| | आकाश | ಆಕಾಶ | ಆಕಾಶ್ | akax |
| | आठ | ಆಠ | ಆಠ್ | atth |
| 3. अि ಇ | अिश्ट | ಇಶ್ಟ | ಇಷ್ಟ್ | ixtt |
| | अिंगळो | ಇಂಗಳೊ | ಇಂಗ್ಳೊ | ingllo |
| | अिकरा | ಇಕರಾ | ಇಕ್ರಾ | ikra |
| | अिजनेर | ಇಜನೆರ | ಇಜ್ನೆರ್ | izner |
| | अितिहास | ಇತಿಹಾಸ | ಇತಿಹಾಸ್ | itihas |
| 4. अी ಈ | अीश्वर | ಈಶ್ವರ | ಈಶ್ವರ್ | îxvor |
| | अीट | ಈಟ | ಈಟ್ | îtt |
| | अीद | ಈದ | ಈದ್ | îd |
| 5. अु ಉ | अुदक | ಉದಕ | ಉದಕ್ | udok |
| | अुजवाड | ಉಜವಾಡ | ಉಜ್ವಾಡ್ | uzvadd |
| | अुगम | ಉಗಮ | ಉಗಮ್ | ugom |
| | अुतर | ಉತರ | ಉತರ್ | utor |
| 6. अू ಊ | अूब | ಊಬ | ಊಬ್ | ûb |
| | अूव | ಊವ | ಊವ್ | ûv |
| | अूंट | ಊಂಟ | ಊಂಟ್ | ûntt |

| | | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 7. | ऋ | ಋ | ऋण | ಋಣ | ಋಣ್ | ṛinn (rinn) |
| | | | ऋतू | ಋತೂ | ಋತೂ | ritu |
| | | | ऋषी | ಋಷೀ | ಋಷಿ(ಃ) | rixi |
| 8. | अे | ಎ | अेकवट | ಏಕವಟ | ಎಕ್ವಟ್ | ekvott |
| | | | अेकसुरो | ಏಕಸುರೊ | ಎಕ್ಸುರೊ | eksuro |
| | | | अेक | ಏಕ | ಏಕ್ | êk / ek |
| | | | अेकवीस | ಏಕವಿಸ | ಎಕ್ವೀಸ್ | ekvîs |
| | | | अेकदम | ಏಕದಮ | ಏಕ್ದಮ್ | ekdom |
| 9. | अै | ಐ | अैवज | ಐವಜ | ಐವಜ್ | aivoz / oivoz |
| | | | अैशी | ಐಶೀಂ | ಐಶಿಂ(ಅಯಿಶಿಂ) | oixim |
| | | | अैरण | ಐರಣ | ಐರಣ್ | oironn |
| 10. | ओ | ಒ | ओपार | ಒಪಾರ | ಒಪಾರ್ | opar |
| | | | ओड | ಒಡ | ಒಡ್ | odd |
| | | | ओळख | ಒಳಖ | ಒಳಖ್ | ollokh |
| | | | ओवी | ಒವೀ | ಒವಿ | ovi |
| 11. | औ | ಔ | औषद | ಔಷದ | ಔಷದ್ | ouxod |
| | | | औध्योगीक | ಔಧ್ಯೋಗಿಕ | ಔಧ್ಯೋಗಿಕ್ | oudhiogik |
| 12. | अं | ಅಂ | अंतर | ಅಂತರ | ಅಂತರ್ | ontor |
| | | | अंत्राळ | ಅಂತ್ರಾಳ | ಅಂತ್ರಾಳ್ | ontrall |
| | | | अंदाज | ಅಂದಾಜ | ಅಂದಾಜ್ | ondaz |
| | | | अंत | ಅಂತ | ಅಂತ್ | ont |
| 13. | अः | ಅಃ | अंतःकरण | ಅಂತಃಕರಣ | ಅಂತಃಕರಣ್ | ontkoronn |
| | | | अंतःपूर | ಅಂತಃಪುರ | ಅಂತಃಪುರ್ | ontpur |

| | | | देवनागरी / ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯಾರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 1. | क | ಕ | कचरो | ಕಚರೋ | ಕಚ್ರೊ | kochro |
| | | | कथा | ಕಥಾ | ಕಥಾ | kotha |
| | | | कबूल | ಕಬೂಲ | ಕಬೂಲ್ | kobul |
| | | | कमर | ಕಮರ | ಕಮರ್ | komor |
| | | | { कळो | ಕಳೋ | ಕಳೊ | kollo |
| | | | { कळॉ | ಕಳೊ | | |
| 2. | ख | ಖ | खबर | ಖಬರ | ಖಬರ್ | khobor |
| | | | खडप | ಖಡಪ | ಖಡಪ್ | khoddop |
| | | | खंत | ಖಂತ | ಖಂತ್ | khont |
| | | | खलासी | ಖಲಾಸೀ | ಖಲಾಸೀ (ಪು) | kholasi |
| | | | खंदक | ಖಂದಕ | ಖಂದಕ್ | khondok |
| 3. | ग | ಗ | गजाल | ಗಜಾಲ | ಗಜಾಲ್ | gozal |
| | | | गणीत | ಗಣೀತ | ಗಣೀತ್ | gonnit |
| | | | गरीब | ಗರೀಬ | ಗರೀಬ್ | gorib |
| | | | { गळो | ಗಳೋ | ಗಳೊ | gollo |
| | | | { गळॉ | ಗಳೊ | | |
| 4. | घ | ಘ | घट | ಘಟ | ಘಟ್ | ghott |
| | | | { घडगडो | ಘಡಗಡೋ | ಘಡ್ಗಡೊ | ghoddgoddo |
| | | | { घडगडॉ | ಘಡಗಡೊ | | |
| 5. | ङ | ಙ | वाङमय | ವಾಙಮಯ | ವಾಙ್ಮಯ್ | vangmoi |
| 6. | च | ಚ | चतूर | ಚತೂರ | ಚತೂರ್ | chotur |
| | | | चंद्र | ಚಂದ್ರ | ಚಂದ್ರ್ | chondr |
| | | | चरब | ಚರಬ | ಚರಬ್ | chorob |
| | | | चलप | ಚಲಪ | ಚಲಪ್ | cholop |
| | | | चवतीस | ಚವತೀಸ | ಚವ್ತೀಸ್ | chovtis |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| 7. छ | ಛ | छत्री | ಛತ್ರೀ | ಛತ್ರೀ | chhotri |
| | | छत्तीस | ಛತ್ತೀಸ | ಛತ್ತೀಸ್ | chhot'tis |
| | | छप्पन | ಛಪ್ಪನ | ಛಪ್ಪನ್ | chhoppon |
| 8. ज | ಜ | जड | ಜಡ | ಜಡ್ | zôdd |
| | | जयंती | ಜಯಂತೀ | ಜಯಂತಿ(ೕ) | joionti |
| | | जशें | ಜಶೆಂ | ಜಶೆಂ | zoxem |
| | | जल्म | ಜಲ್ಮ | ಜಲ್ಮ್ | zolm |
| 9. झ | ಝ | झगडें | ಝಗಡೆಂ | ಝಗ್ಡೆಂ | zhogddem |
| | | झर | ಝರ | ಝರ್ | zhôr |
| | | झडती | ಝಡತೀ | ಝಡ್ತಿ(ೕ) | zhodd'ti |
| | | झटपट | ಝಟಪಟ | ಝಟ್ಪಟ್ | zhottpott |
| 10. ञ | ಞ | | | | |
| 11. ट | ಟ | टपाल | ಟಪಾಲ | ಟಪಾಲ್ | ttopal |
| | | भेट | ಭೆಟ | ಭೆಟ್ | bhett |
| | | कपाट | ಕಪಾಟ | ಕಪಾಟ್ | kopatt |
| | | ताट | ತಾಟ | ತಾಟ್ | tatt |
| | | वाट | ವಾಟ | ವಾಟ್ | vatt |
| 12. ठ | ಠ | ठराव | ಠರಾವ | ಠರಾವ್ | tthorav |
| | | अूठ | ಊಠ | ಊಠ್ | ûtth |
| | | साठ | ಸಾಠ | ಸಾಠ್ | satth |
| | | मीठ | ಮೀಠ | ಮೀಟ್ | mîtt |
| 13. ड | ಡ | माड | ಮಾಡ | ಮಾಡ್ | madd |
| | | पाड | ಪಾಡ | ಪಾಡ್ | padd |
| | | वाड | ವಾಡ | ವಾಡ್ | vadd |
| | | काड | ಕಾಡ | ಕಾಡ್ | kadd |
| | | पंगड | ಪಂಗಡ | ಪಂಗಡ್ | pongodd |

| | | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯಾರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 14. | ढ | ಢ | गाढव | ಗಾಢವ | ಗಾಢವ್ | gadhov |
| | | | कढय | ಕಢಯ | ಕಢಯ್ | koddhoi |
| 15. | ण | ಣ | तण | ತಣ | ತಣ್ | tonn |
| | | | कण | ಕಣ | ಕಣ್ | konn |
| | | | भाण | ಭಾಣ | ಭಾಣ್ | bhann |
| | | | कांकण | ಕಾಂಕಣ | ಕಾಂಕಣ್ | kankonn |
| | | | धांकण | ಧಾಂಕಣ | ಧಾಂಕಣ್ | dhankonn |
| 16. | त | ತ | तळें | ತಳೆಂ | ತಳೆಂ | tollem |
| | | | तयार | ತಯಾರ | ತಯಾರ್ | toiar |
| | | | तप | ತಪ | ತಪ್ | top |
| | | | तर | ತರ | ತರ್ | tôr |
| | | | तकली | ತಕಲೀ | ತಕ್ಲಿ(ಃ) | tokli |
| 17. | थ | ಥ | लाथ | ಲಾಥ | ಲಾಥ್ | lath |
| | | | मंथन | ಮಂಥನ | ಮಂಥನ್ | monthon |
| | | | थंडाय | ಥಂಡಾಯ | ಥಂಡಾಯ್ | thonddai |
| 18. | द | ದ | दया | ದಯಾ | ದಯಾ | doia |
| | | | दर | ದರ | ದರ್ | dor |
| | | | दलाल | ದಲಾಲ | ದಲಾಲ್ | dolal |
| | | | दर्या | ದರ್ಯಾ | ದರ್ಯಾ | doria |
| | | | दयाळ | ದಯಾಳ | ದಯಾಳ್ | doiall |
| 19. | ध | ಧ | धन | ಧನ | ಧನ್ | dhon |
| | | | धग | ಧಗ | ಧಗ್ | dhog |
| | | | धरप | ಧರಪ | ಧರಪ್ | dhorop |
| | | | धर्म | ಧರ್ಮ | ಧರ್ಮ್ | dhorm |

| | | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯಾರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 20. | न | ನ | नकार | ನಕಾರ | ನಕಾರ್ | nokar |
| | | | नाख | ನಾಖ | ನಾಖ್ | nakh |
| | | | नगर | ನಗರ | ನಗರ್ | nogor |
| | | | नळो | ನಳೊ | ನಳೊ | nollo |
| | | | नशीब | ನಶೀಬ | ನಶೀಬ್ | noxib |
| 21. | प | ಪ | पणस | ಪಣಸ | ಪಣಸ್ | ponnos |
| | | | पतंग | ಪತಂಗ | ಪತಂಗ್ | potong |
| | | | पंगत | ಪಂಗತ | ಪಂಗತ್ | pongot |
| | | | पगार | ಪಗಾರ | ಪಗಾರ್ | pogar |
| | | | पगडी | ಪಗಡೀ | ಪಗ್ಡಿ | pogddi |
| 22. | फ | ಫ | फट | ಫಟ | ಫಟ್ | fot |
| | | | फळ | ಫಳ | ಫಳ್ | foll |
| | | | फकीर | ಫಕೀರ | ಫಕೀರ್ | fokîr |
| | | | फसप | ಫಸಪ | ಫಸಪ್ | fosop |
| | | | साफ | ಸಾಫ | ಸಾಫ್ | saf |
| 23. | ब | ಬ | बकरो | ಬಕರೊ | ಬಕ್ರೊ | bokro |
| | | | बदल | ಬದಲ | ಬದಲ್ | bodol |
| | | | बरो | ಬರೊ | ಬರೊ | boro |
| | | | बळ | ಬಳ | ಬಳ್ | boll |
| | | | बली | ಬಲೀ | ಬಲಿ(ಃ) | boli |
| 24. | भ | ಭ | भट | ಭಟ | ಭಟ್ | bhott |
| | | | भक्त | ಭಕ್ತ | ಭಕ್ತ್ | bhokt |
| | | | भंगी | ಭಂಗೀ | ಭಂಗಿ | bhongi |
| | | | भंडारी | ಭಂಡಾರೀ | ಭಂಡಾರಿ(ೀ) | bhonddari |
| | | | भयण | ಭಯಣ | ಭಯ್ಣ್ | bhoinn |

| | | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಣ್ಕಾರ್ | ಆವ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 25. | म | ಮ | महान | ಮಹಾನ | ಮಹಾನ್ | mhan |
| | | | मत | ಮತ | ಮತ್ | mot |
| | | | मनीस | ಮನೀಸ | ಮನಿಸ್ (ಮನೀಸ್) | monis |
| | | | मरण | ಮರಣ | ಮರಣ್ | moronn |
| | | | मसालो | ಮಸಾಲೊ | ಮಸಾಲೊ | mosalo |
| 26. | य | ಯ | यजमान | ಯಜಮಾನ | ಯಜ್ಮಾನ್ | iozman |
| | | | यश | ಯಶ | ಯಶ್ | iox |
| | | | साय | ಸಾಯ | ಸಾಯ್ | sai |
| | | | वाय | ವಾಯ | ವಾಯ್ | vai |
| 27. | र | ರ | रगत | ರಗತ | ರಗತ್ | rogot |
| | | | रचणार | ರಚಣಾರ | ರಚ್ಣಾರ್ | rochnnar |
| | | | रवी | ರವೀ | ರವಿ(ೀ) | rovi |
| | | | रत्न | ರತ್ನ | ರತ್ನ್ | rotn |
| | | | रस | ರಸ | ರಸ್ | ros |
| 28. | ल | ಲ | लग्न | ಲಗ್ನ | ಲಗ್ನ್ | logn |
| | | | लज | ಲಜ | ಲಜ್ | loz |
| | | | लता | ಲತಾ | ಲತಾ | lota |
| | | | ललीत | ಲಲೀತ | ಲಲಿ(ೀ)ತ್ | lolit |
| | | | लास | ಲಾಸ | ಲಾಸ್ | las |
| 29. | व | ವ | वचन | ವಚನ | ವಚನ್ | vochon |
| | | | वच | ವಚ | ವಚ್ | voch |
| | | | वर्ग | ವರ್ಗ | ವರ್ಗ್ | vorg |
| | | | वरस | ವರಸ | ವರಸ್ (ವರ್ಸ್) | voros |
| | | | वसती | ವಸತೀ | ವಸತಿ(ೀ) (ವಸ್ತಿ) | vosoti (vosti) |

| | | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|---|
| 30. | श | ಶ | शक्ती | ಶಕ್ತೀ | ಶಕ್ತಿ | xokti |
| | | | शब्द | ಶಬ್ದ | ಶಬ್ದ್ | xobd |
| | | | शपथ | ಶಪಥ | ಶಪಥ್ | xopoth |
| | | | शरबत | ಶರಬತ | ಶರ್ಬತ್ (ಶರ್ಬ್ತ್) | xorbot |
| | | | शकुन | ಶಕುನ | ಶಕುನ್ | xokun |
| 31. | ष | ಷ | षटकोण | ಷಟಕೋಣ | ಷಟ್ಕೋಣ್ | xottkonn |
| | | | वृषभ | ವೃಷಭ | ವೃಷಭ್ | vroxob |
| 32. | स | ಸ | सत | ಸತ | ಸತ್ | sot |
| | | | समास | ಸಮಾಸ | ಸಮಾಸ್ | somas |
| | | | सरळ | ಸರಳ | ಸರಳ್ | soroll |
| | | | सरकार | ಸರಕಾರ | ಸರಕಾರ್ (ಸರ್ಕಾರ್) | sorkar |
| | | | सदां | ಸದಾಂ | ಸದಾಂ | sodam |
| 33. | ह | ಹ | हठ | ಹಠ | ಹಠ್ | hotth |
| | | | हमाल | ಹಮಾಲ | ಹಮಾಲ್ | homal |
| 34. | ळ | ಳ | कमळ | ಕಮಳ | ಕಮಳ್ | komoll |
| | | | चितळ | ಚಿತಳ | ಚಿತಳ್ | chitoll |
| | | | मूळ | ಮೂಳ | ಮೂಳ್ | mûll |
| | | | पाळ | ಪಾಳ | ಪಾಳ್ | pall |
| | | | अुथळ | ಉಥಳ | ಉಥಳ್ | utholl |
| 35. | क्ष | ಕ್ಷ | क्षण | ಕ್ಷಣ | ಕ್ಷಣ್ | kxonn |
| | | | क्षमा | ಕ್ಷಮಾ | ಕ್ಷಮಾ | kxoma |
| | | | पक्ष | ಪಕ್ಷ | ಪಕ್ಷ್ | pokx |
| | | | क्षत्रीय | ಕ್ಷತ್ರೀಯ | ಕ್ಷತ್ರಿ(ೀ)ಯ್ | kxotria |
| 36. | ज्ञ | ಜ್ಞ | यज्ञ | ಯಜ್ಞ | ಯಜ್ಞ್ | thojn |
| | | | तज्ञ | ತಜ್ಞ | ತಜ್ಞ್ | tojn |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯಾರ್ | ಆವ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೋಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| क्+अ=क | ಕ | कर | ಕರ | ಕರ್ | kor (kór) |
| क्+आ=का | ಕಾ | कावळो | ಕಾವಳೊ | ಕಾವ್ಳೊ | kavllo |
| क्+इ=कि | ಕಿ | किडो | ಕಿಡೊ | ಕಿಡೊ | kiddo |
| क्+ई=की | ಕೀ | कीर | ಕೀರ | ಕೀರ್ | kîr |
| क्+उ=कु | ಕು | कुवाळो | ಕುವಾಳೊ | ಕುವಾಳೊ | kûvallo |
| क्+ऊ=कू | ಕೂ | कूड | ಕೂಡ | ಕೂಡ್ | kûdd |
| क्+ए=के | ಕೆ | केळें | ಕೆಳೆಂ | ಕೆಳೆಂ | kellem |
| क्+ऐ=कै | ಕೈ | कैदी | ಕೈದೀ | ಕೈದಿ(ೀ) | koidi |
| क्+ओ=को | ಕೊ | कोलो | ಕೊಲೊ | ಕೊಲೊ | kolo |
| क्+औ=कौ | ಕೌ | कौतूक | ಕೌತೂಕ | ಕೌತುಕ್ | koutuk |
| क्+ऋ=कृ | ಕೃ | कृषी | ಕೃಷೀ | ಕೃಷೀ, ಕೃಷಿ | krixi |
| क्+अं=कं | ಕಂ | कंदील | ಕಂದೀಲ | ಕಂದೀಲ್ | kondil |
| क+ऋ=कृ | ಕೃ | कृपा | ಕೃಪಾ | ಕೃಪಾ | kripa |
| क+क=क्क | ಕ್ಕ | अक्कल | ಅಕ್ಕಲ | ಅಕ್ಕಲ್ | okkol |
| क+त=क्त | ಕ್ತ | मुक्त | ಮುಕ್ತ | ಮುಕ್ತ್ | mukt |
| क+म=क्म | ಕ್ಮ | रुक्मिणी | ರುಕ್ಮಿಣೀ | ರುಕ್ಮಿಣೀ | rukminni |
| क+य=क्य | ಕ್ಯ | वाक्य | ವಾಕ್ಯ | ವಾಕ್ಯ್ | vakia |
| क+र=क्र | ಕ್ರ | क्रम | ಕ್ರಮ | ಕ್ರಮ್ | krom’ |
| क+ल=क्ल | ಕ್ಲ | क्लास | ಕ್ಲಾಸ | ಕ್ಲಾಸ್ | klas |
| क+व=क्व | ಕ್ವ | पक्वान्न | ಪಕ್ವಾನ್ನ | ಪಕ್ವಾನ್ನ್ | pokvan’n |
| ख+य=ख्य | ಖ್ಯ | ख्यात | ಖ್ಯಾತ | ಖ್ಯಾತ್ | khiat |
| ग+ऋ=गृ | ಗೃ | गृहस्थ | ಗೃಹಸ್ಥ | ಗೃಹಸ್ಥ್ | grihosth |
| ग+ध=ग्ध | ಗ್ಧ | मुग्ध | ಮುಗ್ಧ | ಮುಗ್ಧ್ | mugdh |
| ग+न=ग्न | ಗ್ನ | लग्न | ಲಗ್ನ | ಲಗ್ನ್ | logn |
| ग+र=ग्र | ಗ್ರ | ग्रंथ | ಗ್ರಂಥ | ಗ್ರಂಥ್ | gronth |
| ग+ल=ग्ल | ಗ್ಲ | रिग्ललो | ರಿಗ್ಲಲೊ | ರಿಗ್ಲಲೊ | riglolo |
| घ+न=घ्न | ಘ್ನ | विघ्न | ವಿಘ್ನ | ವಿಘ್ನ್ | vighn |
| च+च=च्च | ಚ್ಚ | कच्चो | ಕಚ್ಚೊ | ಕಚ್ಚೊ | kochcho |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯರ್ | ಆದ್ವಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| च+छ=च्छ | ಚ್ಛ | स्वच्छ | ಸ್ವಚ್ಛ | ಸ್ವಚ್ಛ್ | svochchh |
| ज+ज=ज्ज | ಜ್ಜ | सज्जन | ಸಜ್ಜನ | ಸಜ್ಜನ್ | sozzon |
| ज+य=ज्य | ಜ್ಯ | ज्योति | ಜ್ಯೋತಿ | ಜ್ಯೋತಿ | jioti |
| ज+र=ज्र | ಜ್ರ | वज्र | ವಜ್ರ | ವಜ್ರ್ | vozr |
| ज+व=ज्व | ಜ್ವ | उज्वाड | ಉಜ್ವಾಡ | ಉಜ್ವಾಡ್ | uzvadd |
| ट+ट=ट्ट | ಟ್ಟ | सट्टो | ಸಟ್ಟೊ | ಸಟ್ಟೊ | sott'tto |
| ट+य=टय | ಟ್ಯ | पेटयाक | ಪೆಟ್ಯಾಕ್ | ಪೆಟ್ಯಾಕ್ | petteak |
| ट+र=ट्र | ಟ್ರ | ट्रंक | ಟ್ರಂಕ | ಟ್ರಂಕ್ | ttronk |
| ठ+ठ=ठ्ठ | ಠ್ಠ | विठ्ठल | ವಿಠ್ಠಲ | ವಿಠ್ಠಲ್ | vithththol |
| ड+ड=ड्ड | ಡ್ಡ | हेड्ड | ಹೆಡ್ಡ | ಹೆಡ್ಡ್ | hedd'dd |
| ड+य=डय | ಡ್ಯ | घडयाळ | ಘಡಯಾಳ | ಘಡ್ಯಾಳ್ | ghoddiall |
| ड+र=ड्र | ಡ್ರ | ड्रायवर | ಡ್ರಾಯವರ | ಡ್ರಾಯ್ವರ್ | ddraivor |
| ण=ण=ण्ण | ಣ್ಣ | वाखाण्णी | ವಾಖಾಣ್ಣಿ | ವಾಖಾಣ್ಣಿ | vakhann'nni |
| ण+य=ण्य | ಣ್ಯ | पुण्यान | ಪುಣ್ಯಾನ | ಪುಣ್ಯಾನ್ | punnean |
| ण+व=ण्व | ಣ್ವ | कण्वट | ಕಣ್ವಟ | ಕಣ್ವಟ್ | konnvott |
| त+ऋ=तृ | ತೃ | तृप्ती | ತೃಪ್ತೀ | ತೃಪ್ತಿ | tripti |
| त+क=त्क | ತ್ಕ | सत्कार | ಸತ್ಕಾರ | ಸತ್ಕಾರ್ | sotkar |
| त+त=त्त | ತ್ತ | पत्तो | ಪತ್ತೊ | ಪತ್ತೊ | pot'to |
| त+थ=त्थ | ತ್ಥ | पुनरुत्थान | ಪುನರುತ್ಥಾನ | ಪುನರುತ್ಥಾನ್ | punorut'than |
| त+न=त्न | ತ್ನ | पत्नी | ಪತ್ನೀ | ಪತ್ನೀ | potni |
| त+प=त्प | ತ್ಪ | सत्पुत्र | ಸತ್ಪುತ್ರ | ಸತ್ಪುತ್ರ್ | sotputr |
| त+म=त्म | ತ್ಮ | आत्मो | ಆತ್ಮೊ | ಆತ್ಮೊ | atmo |
| त+य=त्य | ತ್ಯ | सत्य | ಸತ್ಯ | ಸತ್ಯ | sotia |
| त+र=त्र | ತ್ರ | पत्र | ಪತ್ರ | ಪತ್ರ (ಪತ್ರ್) | potr |
| त+व=त्व | ತ್ವ | सत्व | ಸತ್ವ | ಸತ್ವ (ಸತ್ವ್) | sotv |
| त+स=त्स | ತ್ಸ | मत्सर | ಮತ್ಸರ | ಮತ್ಸರ್ | motsor |
| थ+य=थ्य | ಥ್ಯ | माथ्यार | ಮಾಥ್ಯಾರ | ಮಾಥ್ಯಾರ್ | mathear |
| थ+व=थ्व | ಥ್ವ | पृथ्वी | ಪೃಥ್ವೀ | ಪೃಥ್ವೀ | prthvi(prithvi) |

| ದೇವನಾಗರಿ | | | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷರ್ | ಆವ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| द+ऋ=दृ | ದೃ | दृश्य | ದೃಶ್ಯ | ದೃಶ್ಯ | drixia |
| द+द=द्द | ದ್ದ | मुद्दो | ಮುದ್ದೊ | ಮುದ್ದೊ | mud'do |
| द+र=द्र | ದ್ರ | मुद्रा | ಮುದ್ರಾ | ಮುದ್ರಾ | mudra |
| द+व=द्व | ದ್ವ | द्वार | ದ್ವಾರ | ದ್ವಾರ್ | dvar |
| ध+ऋ=धृ | ಧೃ | धृतराष्ट्र | ಧೃತರಾಷ್ಟ್ರ | ಧೃತರಾಷ್ಟ್ರ | dhrtoraxttr (dhritoraxttr) |
| ध+य=ध्य | ಧ್ಯ | माद्यमीक | ಮಾಧ್ಯಮೀಕ | ಮಾಧ್ಯಮಿಕ್ | madhiomik |
| ध+र=ध्र | ಧ್ರ | ध्रव | ಧ್ರುವ | ಧ್ರುವ್ | dhrov |
| ध+व=ध्व | ಧ್ವ | ध्वज | ಧ್ವಜ | ಧ್ವಜ್ | dhvoj |
| न+ऋ=नृ | ನೃ | नृत्य | ನೃತ್ಯ | ನೃತ್ಯ | nritia ′ |
| न+न=न्न | ನ್ನ | केन्ना | ಕೆನ್ನಾ | ಕೆನ್ನಾ | ken'na |
| न+म=न्म | ನ್ಮ | अुन्मत | ಉನ್ಮತ | ಉನ್ಮತ್ | un'mot |
| न+य=न्य | ನ್ಯ | न्याय | ನ್ಯಾಯ | ನ್ಯಾಯ್ | niai |
| न+व=न्व | ನ್ವ | अन्वय | ಅನ್ವಯ | ಅನ್ವಯ್ | on'voi |
| न+ह=न्ह | ನ್ಹ | न्हाण | ನ್ಹಾಣ | ನ್ಹಾಣ್ | nhann |
| प+ऋ=पृ | ಪೃ | पृथ्वी | ಪೃಥ್ವೀ | ಪೃಥ್ವೀ | prithvi |
| प+त=प्त | ಪ್ತ | सप्त | ಸಪ್ತ | ಸಪ್ತ | sopt |
| प+न=प्न | ಪ್ನ | स्वप्न | ಸ್ವಪ್ನ | ಸ್ವಪ್ನ್ | svopn |
| प+प=प्प | ಪ್ಪ | अप्पाजी | ಅಪ್ಪಾಜೀ | ಅಪ್ಪಾಜೀ | oppaji |
| प+य=प्य | ಪ್ಯ | प्यार | ಪ್ಯಾರ | ಪ್ಯಾರ್ | pear |
| प+र=प्र | ಪ್ರ | प्रश्न | ಪ್ರಶ್ನ | ಪ್ರಶ್ನ್ | proxn |
| प+स=प्स | ಪ್ಸ | अप्सरा | ಅಪ್ಸರಾ | ಅಪ್ಸರಾ | opsora |
| फ+र=फ्र | ಫ್ರ | फ्रेंच | ಫ್ರೆಂಚ | ಫ್ರೆಂಚ್ | french |
| ब+ऋ=बृ | ಬೃ | बृहत | ಬೃಹತ | ಬೃಹತ್ | brihot |
| ब+द=ब्द | ಬ್ದ | शब्द | ಶಬ್ದ | ಶಬ್ದ್ | xobd |
| व+ब=ब्ब | ಬ್ಬ | डब्बो | ಡಬ್ಬೊ | ಡಬ್ಬೊ | ddobbo |
| ब+य=ब्य | ಬ್ಯ | आंब्याचो | ಆಂಬ್ಯಾಚೊ | ಆಂಬ್ಯಾಚೊ | ambeacho |
| ब+र=ब्र | ಬ್ರ | ब्राह्मण | ಬ್ರಾಹ್ಮಣ | ಬ್ರಾಹ್ಮಣ್ | brahmonn |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷ್ಯಾರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| भ+य=भ्य | ಭ್ಯ | अभ्यन्तर | ಅಭ್ಯಂತರ | ಅಭ್ಯಂತರ್ | obhiontor |
| भ+र=भ्र | ಭ್ರ | भ्रष्ट | ಭ್ರಷ್ಟ | ಭ್ರಷ್ಟ್ | bhroxtt |
| म+ऋ=मृ | ಮೃ | अमृत | ಅಮೃತ | ಅಮೃತ್ | omrt(omrit) |
| म+म=म्म | ಮ್ಮ | सम्मत | ಸಮ್ಮತ | ಸಮ್ಮತ್ | sommot |
| म+य=म्य | ಮ್ಯ | अगम्य | ಅಗಮ್ಯ | ಅಗಮ್ಯ | ogomia |
| म+र=म्र | ಮ್ರ | नम्र | ನಮ್ರ | ನಮ್ರ(ನಮ್ರ್) | nomr |
| म+ल=म्ल | ಮ್ಲ | आम्ल | ಆಮ್ಲ | ಆಮ್ಲ (ಆಮ್ಲ್) | aml |
| म+ह=म्ह | ಮ್ಹ | म्हळयार | ಮ್ಹಳ್ಯಾರ | ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ | mhollear |
| र+क=र्क | ರ್ಕ | तर्क | ತರ್ಕ | ತರ್ಕ(ತರ್ಕ್) | tork |
| र+ख=र्ख | ರ್ಖ | मूर्ख | ಮೂರ್ಖ | ಮೂರ್ಖ (ಮೂರ್ಖ್) | mûrkh |
| र+ग=र्ग | ರ್ಗ | सर्ग | ಸರ್ಗ | ಸರ್ಗ (ಸರ್ಗ್) | sorg |
| र+घ=र्घ | ರ್ಘ | दीर्घ | ದೀರ್ಘ | ದೀರ್ಘ(ದೀರ್ಘ್) | dîrgh |
| र+च=र्च | ರ್ಚ | अर्चक | ಅರ್ಚಕ | ಅರ್ಚಕ್ | orchok |
| र+ज=र्ज | ರ್ಜ | अर्ज | ಅರ್ಜ | ಅರ್ಜ(ಅರ್ಜ್) | orz |
| र+त=र्त | ರ್ತ | कर्तव्य | ಕರ್ತವ್ಯ | ಕರ್ತವ್ಯ್ | kortovia |
| र+थ=र्थ | ರ್ಥ | अर्थ | ಅರ್ಥ | ಅರ್ಥ್ | orth |
| र+द=र्द | ರ್ದ | दर्द | ದರ್ದ | ದರ್ದ್ | dord |
| र+ध=र्ध | ರ್ಧ | अर्ध | ಅರ್ಧ | ಅರ್ಧ್ | ordh |
| र+न=र्न | ರ್ನ | हॉर्न | ಹೊರ್ನ | ಹೊರ್ನ್ | horn |
| र+प=र्प | ರ್ಪ | अर्पण | ಅರ್ಪಣ | ಅರ್ಪಣ್ | orponn |
| र+भ=र्भ | ರ್ಭ | गर्भ | ಗರ್ಭ | ಗರ್ಭ (ಗರ್ಭ್) | gorbh |
| र+म=र्म | ರ್ಮ | कर्म | ಕರ್ಮ | ಕರ್ಮ್ | korm |
| र+य { -र्य | ರ್ಯ | सुर्या | ಸುರ್ಯಾ | ಸುರ್ಯಾ | suria |
| } य | ರ‍್ಯ | वारयार | ವಾರ‍್ಯಾರ | ವಾರ‍್ಯಾರ್ | varcar |
| र+ल=र्ल | ರ್ಲ | दुर्लक्ष | ದುರ್ಲಕ್ಷ | ದುರ್ಲಕ್ಷ್ | durlokx |
| र+ष=र्ष | ರ್ಷ | शीर्षक | ಶೀರ್ಷಕ | ಶೀರ್ಷಕ್ | xîrxok |
| र+श=र्श | ರ್ಶ | स्पर्श | ಸ್ಪರ್ಶ | ಸ್ಪರ್ಶ್ | sporx |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| र+ह=रह | ರ್ಹ | करहाड– | ಕರ್ಹಾಡ | ಕರ್ಹಾಡ್ | korhadd |
| र+उ=रु | ರು | रुमाल | ರುಮಾಲ | ರುಮಾಲ್ | rumal |
| र+ऊ=रू | ರೂ | रूप | ರೂಪ | ರೂಪ್ | rûp |
| ल+क=ल्क | ಲ್ಕ | अुल्का | ಉಲ್ಕಾ | ಉಲ್ಕಾ | ulka |
| ल+त=ल्त | ಲ್ತ | आल्तार | ಆಲ್ತಾರ | ಆಲ್ತಾರ್ | altar |
| ल+द=ल्द | ಲ್ದ | काल्द | ಕಾಲ್ದ | ಕಾಲ್ದ್ | kald |
| ल+प=ल्प | ಲ್ಪ | कल्पना | ಕಲ್ಪನಾ | ಕಲ್ಪನಾ | kolpona |
| ल+य=ल्य | ಲ್ಯ | अमूल्य | ಅಮೂಲ್ಯ | ಅಮೂಲ್ಯ | omûlia |
| ल+ल=ल्ल | ಲ್ಲ | गल्ली | ಗಲ್ಲೀ | ಗಲ್ಲೀ | gol'li |
| ल+ह=ल्ह | ಲ್ಹ | ल्हान | ಲ್ಹಾನ | ಲ್ಹಾನ್ | lhan |
| व+ऋ=वृ | ವೃ | वृक्ष | ವೃಕ್ಷ | ವೃಕ್ಷ್ | vrokx |
| व+य=व्य | ವ್ಯ | व्यवहार | ವ್ಯವಹಾರ | ವ್ಯವಹಾರ್ | vevhar |
| व+र=व्र | ವ್ರ | व्रत | ವ್ರತ | ವ್ರತ್ | vrot |
| व+व=व्व | ವ್ವ | नव्वद | ನವ್ವದ | ನವ್ವದ್ | novvod |
| व+ह=व्ह | ವ್ಹ | व्हाळ | ವ್ಹಾಳ | ವ್ಹಾಳ್ | vhall |
| ष+क=ष्क | ಷ್ಕ | पुष्कळ | ಪುಷ್ಕಳ | ಪುಷ್ಕಳ್ | puxkoll |
| ष+ट=ष्ट | ಷ್ಟ | पुष्टी | ಪುಷ್ಟೀ | ಪುಷ್ಟೀ | puxtti |
| ष+ठ=ष्ठ | ಷ್ಠ | श्रेष्ठ | ಶ್ರೇಷ್ಠ | ಶ್ರೇಷ್ಠ್ | xrextth |
| ष+ण=ष्ण | ಷ್ಣ | विष्णू | ವಿಷ್ಣೂ | ವಿಷ್ಣೂ | vixnnu |
| ष+प=ष्प | ಷ್ಪ | पुष्प | ಪುಷ್ಪ | ಪುಷ್ಪ್ | puxp |
| ष+फ=ष्फ | ಷ್ಫ | निष्फळ | ನಿಷ್ಫಳ | ನಿಷ್ಫಳ್ | nixfoll |
| ष+म=ष्म | ಷ್ಮ | चष्मा | ಚಷ್ಮಾ | ಚಷ್ಮಾ | choxma |
| ष+य=ष्य | ಷ್ಯ | विष्यांत | ವಿಷ್ಯಾಂತ | ವಿಷ್ಯಾಂತ್ | vixeant |
| श+ऋ=शृ | ಶೃ | शृंगार | ಶೃಂಗಾರ | ಶೃಂಗಾರ್ | xringar |
| श+च=श्च | ಶ್ಚ | निश्चल | ನಿಶ್ಚಲ | ನಿಶ್ಚಲ್ | nixchol |
| श+न=श्न | ಶ್ನ | प्रश्न | ಪ್ರಶ್ನ | ಪ್ರಶ್ನ್ | proxn |
| श+म=श्म | ಶ್ಮ | श्मशान | ಶ್ಮಶಾನ | ಶ್ಮಶಾನ್ | smoxan |
| श+र=श्र | ಶ್ರ | विश्रांती | ವಿಶ್ರಾಂತೀ | ವಿಶ್ರಾಂತಿ | vixranti |

| | | ದೇವನಾಗರಿ | ಕಾನಡಿ ಅಕ್ಷರ್ | ಆಮ್ಚಿ ಪದ್ಧತ್ | ರೊಮಿ |
|---|---|---|---|---|---|
| श+ल-श्ल | ಶ್ಲ | श्लोक | ಶ್ಲೋಕ | ಶ್ಲೋಕ್ | xlôk |
| श+व=श्व | ಶ್ವ | विश्व | ವಿಶ್ವ | ವಿಶ್ವ್ | vixv |
| स+ऋ=सृ | ಸೃ | सृष्टी | ಸೃಷ್ಟೀ | ಸೃಷ್ಟೀ | xrixtti |
| स+क-स्क | ಸ್ಕ | सुस्कार | ಸುಸ್ಕಾರ | ಸುಸ್ಕಾರ್ | suskar |
| स+ट=स्ट | ಸ್ಟ | मास्टर | ಮಾಸ್ಟರ | ಮಾಸ್ಟರ್ | masttor |
| स+त=स्त | ಸ್ತ | स्तन | ಸ್ತನ | ಸ್ತನ | ston |
| स+थ-स्थ | ಸ್ಥ | स्थल | ಸ್ಥಲ | ಸ್ಥಲ್ | sthol |
| स+न-स्न | ಸ್ನ | स्नेह | ಸ್ನೇಹ | ಸ್ನೇಹ್ | sneh |
| स+प+स्प | ಸ್ಪ | स्पर्शं | ಸ್ಪರ್ಶ | ಸ್ಪರ್ಶ್ | sporx |
| स+फ=स्फ | ಸ್ಫ | स्फटीक | ಸ್ಫಟೀಕ | ಸ್ಫಟೀಕ್ | sfottik |
| स+म-स्म | ಸ್ಮ | स्मरण | ಸ್ಮರಣ | ಸ್ಮರಣ್ | smoronn |
| स+य-स्य | ಸ್ಯ | हास्य | ಹಾಸ್ಯ | ಹಾಸ್ಯ | hasia |
| ह+ऋ-हृ | ಹೃ | हृदय | ಹೃದಯ | ಹೃದಯ್ | hridoi |
| ह+म-ह्म | ಹ್ಮ | ब्राह्मण | ಬ್ರಾಹ್ಮಣ | ಬ್ರಾಹ್ಮಣ್ | brahmonn |
| ह+य-ह्य | ಹ್ಯ | बाह्य | ಬಾಹ್ಯ | ಬಾಹ್ಯ | bahia |
| ळ+य-ळय | ಳ್ಯ | दोळयार | ದೊಳ್ಯಾರ | ದೊಳ್ಯಾರ್ | dollear |
| ळ+ळ-ळळ | ಳ್ಳ | कळळें | ಕಳ್ಳೆಂ | ಕಳ್ಳೆಂ | koll'llem |
| क्ष+य-क्ष्य | ಕ್ಷ್ಯ | लक्ष्य | ಲಕ್ಷ್ಯ | ಲಕ್ಷ್ಯ (ಲಕ್ಷ್ಯ) | lokx |

## 9. ಅನುಸ್ವಾರ್(ಂ) ಬರೊವ್ಪಾಚಿ ಪದ್ಧತ್— ಹ್ಯೆ ಬಾಬ್ತಿನ್ ಖೆರಿತ್ ಸೂಚನಾಂ

### (1) ಅನುಸ್ವಾರಾಚೆಂ ಮಹತ್ವ್:

ಕೊಂಕ್ಣಿ ಬರೊವ್ಪಾಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರಾಕ್ ಏಕ್ ಮಹತ್ವಾಚೆಂ ಸ್ಥಾನ್ ಆಸಾ. ಏಕ್ತ್ಯಾ—ಏಂಕ್ತ್ಯಾ: ಘಾಟ್—ಘಾಂಟ್: ವಾಟ್—ವಾಂಟ್...... ಅಸಲ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂನಿ ಅನುಸ್ವಾರಾಕ್ ಲಾಗೂನ್ ಉತ್ರಾಚೊ ಅರ್ಥ್ ವೆಗಳೊ ಜಾತಾ. ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತ್ ತೊ ಏಕಾ ಅಕ್ಷರಾಚೊ ಜಾಗೊ ಭರ್ತಾ ದೆಖೂನ್ ಪುಸ್ತಕ್ ಛಾಪ್ಣಾರಾಂಕ್ ತೊ ಗಳೊವ್ನ್ ವಚೆಂ ಹಳು ಕರ್ಚಿ ಆತುರಾಯ್ ಆಸ್ತಾ. ದೇವನಾಗರಿ ಲಿಪಿಂತ್ ತೊ ಲ್ಹಾನಾಂತ್ಲೆಂ ಲ್ಹಾನ್ ಅಕ್ಷರ್ ಸುದಾಂ ನ್ಹಯ್; ಅಣುರುಪಾಚೊ ಬಿಂದು ತೊ; ಝುರೂನ್ ಝುರೂನ್ ದಿಸನಾ ತಿತ್ಲೊ ಲ್ಹಾನ್ ಜಾಲಾ. ತೊ ಖಬರ್ ನಾಸ್ತಾನಾ ಗಳ್ತಾ. ನಾಕಾ ಜಾಲ್ಲೆಕಡೆ ದಿಸ್ತಾ. ದೈನಿಕ್ ಪತ್ರಾಂನಿ ಆನಿ ಸಾದ್ಯಾ ಬರ್ಪಾಂತ್ ತಾಚೊ ಸಡಿಲಾಯೆನ್ ಉಪ್ಯೋಗ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಪರ್ವಾ ನಾ. ತರಿಪುಣ್ ಶಾಸ್ತ್ರಿಕ್ ಮಹತ್ವಾಚ್ಯಾ. ಜಪ್ ಕರೂನ್ ಶಿಕೊವ್ಚ್ಯಾಂ ಆನಿ ಶಿಕ್ಚ್ಯಾಂ ಖಾತಿರ್ ಉಜ್ವಾಡಾಯ್ಲಲ್ಯಾ ಗ್ರಂಥಾಂನಿ ತೊ ಗರ್ಜೆ ಪರ್ಮಾಣೆಂ ಸಾಂಬಾಳುಂಕ್ ಜಾಯ್.

ಆಜ್ ಆಮ್ಚೆ ಮಧೆಂ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಬರೊವ್ಪಾಂತ್ ಜಾಯ್ತಿ ಘುಸ್ಪಡ್ ಆಸಾ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗ್ಪಾಚಿ ಗರ್ಜ್ ನಾ. ಮ್ಹಣ್ತಚ್ ಭಾಶೆಕ್ ಶುದ್ಧ್ ಆನಿ ಪ್ರಮಾಣ್ ರೂಪ್ ದಿವ್ಚೆ ಖಾತಿರ್ ಖೆರಿತ್ ನೆಮ್ ಗರ್ಜ್ ಆಸಾತ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಮೆಸ್ತ್ ಮಾನೂನ್ ಘೆತಾತ್. ಫ್ರೆಂಚ್ ಭಾಶೆಪರಿ ಆಮ್ಚಿ ಭಾಸ್‌ಯ್ ನಾಕ್ಯಾಂ ಉಚ್ಚಾರಾಂನಿ ಭರ್‍ಲಿ ಮ್ಹಣುಂಯೆತ್. ಪುಣ್ ತೀ 'ನಾಕ್ ಕಾತ್ರಿ ಶಿಂಬ್ರಿ ಭಾಸ್' (Nasal brogue) ನ್ಹಯ್. ದೆಖೂನ್ ನಾಕಾ ಘುಯ್ನ್ನರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಘಾಲೂನ್ ತಿಚೆಂ ಸುರೂಪ್ ಭಂಗಯ್ನಾಸ್ತಾನಾ ಪ್ರಮಾಣ್ ರೂಪ್ ಸಾಂಬಾಳುಂಕ್ ಜಾಯ್.

ಹೊ ವಿಶಯ್ ಸೂಕ್ಷ್ಮಾಯೆನ್ ವಿಸ್ಲೂನ್ ಪಳೆತಚ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಮನಾಕ್ ಸಾರ್ಕೆಂ ಮ್ಹಣ್ ದಿಸ್ಲಲೊ ಅಭಿಪ್ರಾಯ್ ಹಾಂಗಾ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಂ ಮುಖಾರ್ ದವರ್ತಾಂವ್ ಆನಿ ಹ್ಯಾ ವ್ಯಾಕರಣ್ ಗ್ರಂಥಾಂತ್‌ಚ್ ಖೆರಿತ್ ನೆಮಾಂಕ್ ಅನುಸರೂನ್ ತೊ ಬರಯ್ಲ್ಯಾಂವ್. ಬರೊವ್ಪಾಚಿ ಏಕ್ ಪ್ರಮಾಣ್ ರೀತ್ ಘಾಲ್ಯಾರ್ ಘಾಲುಂಕ್ ಹೆಂ ಮಾರ್ಗದರ್ಶನ್ ಘೆವ್ನ್ ತರುಣ್ ಬರೊಪ್ಪಿ ಆಮ್ಚಿ ಬರೊವ್ಪಾಚಿ ಪದ್ಧತ್ ಏಕ್‌ರೂಪ್ ಕರುಂಕ್ ಪಾವ್ತಲೆ ಮ್ಹಣ್ ಆಂಪ್ಯೆತಾಂವ್.

**(3) ಸಾವಾನ್ಯರುಪಾಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

ವಿಭಕ್ತಿಪ್ರತ್ಯಯ್ ಲಾಯ್ತಾನಾ ಆನಿ ಕಾಳಾರುಪಾಂ ಘಡ್ತಾನಾ ಏಕವಚನಾಂತ್ ನಾಸ್ಲಲೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಅನೇಕವಚನಾಂತ್ ದಿಷ್ಟಿಕ್ ಪಡ್ತಾ.

ದೆಖಿಕ್: ತೆಂ ಮೊಡ್—ತ್ಯಾ ಮೊಡಾನ್/ಮೊಡಾಕ್.

ತೀಂ ಮೊಡಾಂ—ತ್ಯಾ ಮೊಡಾಂನಿ/ಮೊಡಾಂಕ್.

(ತೊ) ಪ್ರೂತ್—ಪುತಾನ್/ಪುತಾಕ್;

(ತೆ) ಪೂತ್—ಪುತಾಂನಿ/ಪುತಾಂಕ್;

**ಪುತಾ**—ಹೆಂ ಏಕವಚನೀ ಸಾವಾನ್ಯ ರೂಪ್.

**ಪುತಾಂ**—ಹೆಂ ಅನೇಕವಚನೀ ಸಾವಾನ್ಯ ರೂಪ್ ಮ್ಹಣ್ತ್ಯಾತ್ ದುಬಾವ್ ನಾ. ದೆಖೂನ್ ಹಿಂ ಸಾವಾನ್ಯರುಪಾಂ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತಿರುಪಾಂನಿ ಪರ್ಸಾರ್ಕಿಂ ಸಾಂಬಾಳ್ಜೆಂ.

**(4) ನಾಕ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಂ ಬರಾಬರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ :**

ಙ. ಞ. ಣ. ನ, ಮ—ಹಾಂಕಾಂ ನಾಕ್ಯಿಂ ವ್ಯಂಜನಾಂ (Nasal consonants) ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ತಸಲ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಂನಿ ಸೊಂಪ್ತಾತ್:

(ತೊ): ಮಾಮ್. ವಾಣಿ (Weaver, spider, ಸಾಳಿಯೊ). ಧನಿ, ಮೊನೊ, ಮಹಿನೊ. ಘಾಣೊ. ಮೆಪ್ಣೊ. ಕಾಣೊ. ಕಾನ್. ಮಾನ್, ಬಾಣ್.

(ತೀ) ಮಾಮಿ, ಧನಿನ್, ವ್ಹನಿ. ಕಣ್ಣಿ. ಕಾಣಿ. ಸಾಯ್ಬಿಣ್. ಭಯ್ಣ್. ವ್ಹಾಣ್. ಸೂ[illegible]

(ತೆಂ): ರಾನ್, ಪಾನ್, ಖ[illegible], ಕೊಟ್ಯಾಂಙ್...... ಇತ್ಯಾದಿ. ಹೀಂ ಉತ್ರಾಂ ಉಚ್ಚಾರ್ತಾನಾ ನಾಕ್ಯೆ ಉಚ್ಚಾರ್ [illegible] ಜಾಯ್. ಪುಣ್ ತೊ ತ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಂ ಥ[illegible] ಜಾಯ್ನಾ. ದೆಖ[illegible] ಅನುಸ್ವಾರ್ ಜೊಡುನ್ ಧನಿಂ, ಮೊನೊಂ. ಘಾಣೊಂ, ಮಾಮಿಂ, ವ್ಹನಿಂ, ಕಾಣಿಂ...... ಆನಿ ಅನೇಕವಚನ್: ಕಾಣಿಯೊಂ. ರಾಣಿಯೊಂ, ಸುನೊಂ, ಭಯ್ಣಿಂ...... ಅಶಿಂ ಬರೊಪ್ಪಿಂ ನ್ಹಯ್. ನಾಕ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಂಕ್ಯ್ ತೇಚ್ ಪರಿಂ ಅನುಸ್ವಾರ್

ಜಾವ್ನ್ ಏಕವಚನೀ ಆನಿ ಅನೇಕವಚನೀ ಸಾಮಾನ್ಯರುಪಾಂ ಮಧೆಂ ಫರಕ್ ದಾಖೊಂವ್ಕ ಫಾವೊ.

(ತೊ) ಮಾಮ್—ಮಾಮಾ।ನ್, ಮಾಮಾ।ಕ್, –ಚೊ

(ತೊ) ಧನಿ—ಧನಿಯಾ।ನ್, –ಕ್, –ಚೊ

(ತೀ) ಕಾಣಿ—ಕಾಣೆಯೆ।ನ್, –ಕ್, –ಚೊ

(ತೆಂ) ಕಾಮ್—ಕಾಮಾ।ನ್, –ಕ್, –ಚೊ

(ತೆ) ಮಾಮ್—ಮಾಮಾಂ।ನಿ, –ಕ್, –ಚೊ

(ತೆ) ಧನಿ—ಧನಿಯಾಂ।ನಿ, –ಕ್, –ಚೊ

(ತ್ಯೊ) ಕಾಣಿಯೊ—ಕಾಣಿಯಾಂ।ನಿ, –ಕ್, –ಚೊ

(ತೀಂ) ಕಾಮಾಂ—ಕಾಮಾಂ।ನಿ, –ಕ್, –ಚೊ.

**ಹೆಂ ಸಾರ್ಕೆಂ ಮನಾಂತ್ ಧರುಂಕ್ ಜಾಯ್:**

ಅನೇಕವಚನಾಂತ್ ಸಾಮಾನ್ಯ ರುಪಾಕ್ ಲಾಗ್ತಾ ತೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಅನೇಕ ವಚನಿ-ಸೂಚಕ್ ಕರೂನ ಜಾವ್ನ್ ಸಾಮಾನ್ಯ ರುಪಾಚೊ ವಗ್ಳೊಂವ್ಕ್ ನಜೊ ತಸೊ ಘಾಗ್ ಪ್ರತ್ಯಯಾಕ್ ಲಿಖೊಂಕ್ ಫಾವೊ. ತ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ತೊ ವಿಭಕ್ತಿಕುಸಾಂ ಆದಿಂ ಬರೊಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್. ಉಪ್ರಾಂತ್ ಸ್ಥಯ್: ಮಾಮಾಂನಿ, ಮಾಮಾಂಕ್, ಮಾಮಾಂಚೊ, ಕಾಮಾಂಕ್, ಕಾಮಾಂಚೊ ಬರಯ್ತಾಂವ್ ತ್ಶೆಂಚ್ ಪುರಿಂ: ಕಾಮಾಂನಿ ಬರೊವ್ನ್ಯೆಂ. 'ಮಾಮಾನಿಂ', 'ಕಾಮಾನಿಂ' ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ಬಹುವಚನೀ ಸಾಮಾನ್ಯ ರೂಪ್ ಕಾಮಾಂ, ಮಾಮಾಂ, ಬಿಸ್ಕುಂ (ಕಾತ್ರೆಂ) ಜಾತಾ. ಆನಿ ಬಹುವಚನ್ ಸ್ಪಷ್ಟ್ ಒಳ್ಕುಂಕ್ ಮೆಳನಾ.

**ಬದಲ್ತಿಂ ವಿಶೆಶಣಾಂ ಆನಿ ಸರ್ವನಾಮಾಂ:**

ಲಿಂಗಾ-ವಚನಾ ಪರ್ಮಾಣೆಂ ಸೊಂಪ್ತಾ ಸ್ವರ್ ಬದಲ್ತಾತ್. ದೆಖಿಕ್: ಬರೊ, ಬರಿ, ಬರೆಂ; ತೊ, ತೀ, ತೆಂ......

ತೆದ್ನಾ ತಾಂಚೊ ಸೊಂಪ್ತಾ ಸ್ವರ್ ಫಕತ್ (ಅನುಸ್ವಾರ್ ನಾಸ್ತಾನಾ) ಪುಡ್ಲ್ಯಾ ಸ್ವರಾನ್: ತೊ, ತೀ, ತೆ, ತ್ಯೊ ವಾ ಸ್ವರಾಕ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾಗೂನ್: ತೆಂ, ತೀಂ...... ಸೊಂಪ್ತಾ. ಸೊಂಪ್ತ್ಯಾಚೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ದುಸ್ರೆಂ ಪಿಂಪ್ಳೆಂಯ್ ಆಸ್ತಾನಾ ಹೆ ಸ್ವರ್ ಆನಿ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಸಾರ್ಕೆ ಬರಯ್ತಾತ್. ಪೂಣ್ ತೆಂ ನಾಕ್ಯೆಂ ಆಸ್ತಾನಾ ಚಾಯ್ತ್ಶಿ ಬರೊವ್ಪಿ ತೀಚ್ ಚಾಲ್ ಪಾಳಿನಾಸ್ತಾನಾ ತೀ ಘುಸ್ಪಾ ಗೊಂದಳಾಂತ್ ಲೊಳಯ್ತಾತ್.

ತರಿಪುಣ್ ಶೆವ್ಟಾಚೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ನಾಕ್ಯೆಂ ಆಸ್ತಾನಾಯ್ ಸೊಂಪ್ತೊ ಸ್ವರ್ ಜಾಂವ್ ಕೇವಲ್ ಸ್ವರ್ ಜಾಂವ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾಗ್ಲೆಲೊ ಸ್ವರ್—ತ್ಯಾಚ್ ನಮೂನ ಪರ್ಮಾಣೆಂ ಬದ್ಲೊಂಕ್ ಜಾಯ್. ದೆಖಿಕ್: ಮೊನೊ. ಮೊನೀ. ಮೊನೆಂ. ಮೊನೆ. ಮೊನ್ಯೊ. ಮೊನೇಂ: ಉಣೊ. ಉಣೀ. ಉಣೆಂ. ಉಣೆ. ಉಣ್ಯೊ. ಉಣೇಂ: ರಿಕಾಮೊ (ಕಾಮ್ ನಾಸ್ಲ್ಲೊ), ರಿಕಾಮಿ, ರಿಕಾಮೆಂ, ರಿಕಾಮೆ......

**(5) ಸ್ತ್ರೀಲಿಂಗೀ ನಾವಾಂ ಬರಾಬರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

ಸುರಿ—ಸುರಿಯೊ. ಮೊಲಿ—ಮೊಲಿಯೊ...... ಹ್ಯಾ ಸ್ತ್ರೀಲಿಂಗೀ ಬಹುವಚನಾಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ನಾ. ತೀಂ ಕೊಣೀಚ್ 'ಸುರಿಯೊಂ'. 'ಮೊಲಿಯೊಂ' ಬರಯ್ನಾತ್. ನಾಕ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾನ್ ಸೊಂಪ್ಲಲ್ಯಾ ನಾವಾಂಕ್‌ಯ್ ತೊಚ್ ನೇಮ್ ಲಾಗು ಜಾತಾ: ರಾಣಿ—ರಾಣಿಯೊ. ಕಾಣಿಯೊ. ಮ್ಹಸಿಯೊ. ಮಾಮಿಯೊ. ದೆಖೂನ್ 'ರಾಣಿಯೊಂ' ತಾಚೆಂ ಘಂಗ್ಲೆಂ ರೂಪ್ ಮ್ಹುಣ್ಯಾಕ್ ದುಬಾವ್ ನಾ. ತೀಂ ಉಚ್ಚಾರ್ತಾನಾ ಕೆದ್ನಾ ಕೆದ್ನಾ ಸೊಂಪ್ಯಾರ್ ಆಯ್ಕೊಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾ ತೊ ನಾಕ್ಯೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ತ್ಯಾ ನಾಕ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಂಚ್ಯಾ ಪ್ರಭಾವಾನ್ ಯೆತಾ. ಪುಣ್ ತಾಂಚೊ ಸೊಂಪ್ತೊ ಸ್ವರ್ 'ಓ'—ಧಾಂಕ್ತೊ. ಉಗ್ತೊ ನ್ಹಯ್. ದೆಖೂನ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತ್ 'ಓ'—ದೀರ್ಘ್ ಬರಯ್ನ್ಯಾರ್ ಅಧಿಕ್ ಬರೆಂ.

**(6) ನಪುಂಸಕ್‌ಲಿಂಗೀ ನಾವಾಂಚೊ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

ಜಾಯ್ತಿಂ ನಪ್ರುಂಸಕ್‌ಲಿಂಗೀ ನಾವಾಂ 'ಈಂ'. 'ಊಂ'. 'ಏಂ'—ಹ್ಯಾ ಸ್ವರಾಂ ಆನಿ ಅನುಸ್ವಾರಾಂನಿ ಸೊಂಪ್ತಾತ್: ಮೊತೀಂ. ತಾರೂಂ. ಸಾರೆಂ...... ಸಾಮಾನ್ಯ ರುಪಾಂತ್ ಏಕವಚನಾಂತ್ ತೊ ನಾ. ಅನೇಕವಚನಾಂತ್ ಆಸಾ. ದೆಖಿಕ್:

ಏಕವಚನ್ :, ರೂಂ—ರುವಾ, ವಾಸ್ರೂಂ—ವಾಸ್ರಾ.

ಅನೇಕವಚನ್: ವಾಸ್ರಾಂ—ವಾಸ್ರಾಂನಿ / ವಾಸ್ರಾಂಕ್ / ಚೊ......

ರುವಾಂ—ರುವಾಂನಿ / ರುವಾಂಕ್ / ಚೊ......

ಸೊಂಪ್ಯಾಚೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ನಾಕ್ಯೆಂ ಆಸ್ತಾನಾಯ್ ತಾಚೆ ಬರಾಬರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಘಾಲೂನ್ ತ್ಯಾ ನಾವಾಂಚೆಂ ನಪ್ರುಂಸಕ್‌ಲಿಂಗೀ ರೂಪ್ ಸಾಂಬಾಳುಂಕ್ ಜಾಯ್.

| ಏಕವಚನ್ | ಅನೇಕವಚನ್ |
|---|---|
| (ತೆಂ) ದೆಣೆಂ, ನಿಷ್ಣಂ, ಸುಣೆಂ | (ತೀಂ) ದೆಣೇಂ, ನಿಷ್ಣೀಂ, ಸುಣೇಂ |
| ದೆಣ್ಯಾ / ನ್, ಕ್, ಚೊ. | ದೆಣ್ಯಾಂ / ನಿ, ಕ್, ಚೊ. |

ಹಾಂವ್ (ಸಂಸ್ಕೃತ್ 'ಅಹಮ್') ಹಾಂತ್ಲೆಂ 'ಹ' ಆನಿ 'ಮ್' ವಿವಿಧ್ ರುಪಾಂನಿ ದಿಸ್ತಾ. ಹಾಂವಂ (ಮೂಳ್ಚ್ಯಾ ರುಪಾಕ್ ಸೊಂಪ್ಯಾರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾವ್ನ್) ಆನಿ ಹೆರಾಂ ವಿಭಕ್ತಿಂನಿ 'ಮ್ಹ' ವಾ 'ಮ್ಹಾ'ಕ್ ಪ್ರತ್ಯಯ್ ಲಾವ್ನ್. ದುಸ್ರ್ಯಾ ಪುರುಶಾಚೆಂ 'ತೂಂ' ಸಾಮಾನ್ಯ ರೂಪ್ ತು – ಘೆವ್ನ್ ಹ್ಯಾ 'ದೆಂಟಾಕ್' ವಿಭಕ್ತಿ ಪ್ರತ್ಯಯ್ ಲಾಗ್ತಾತ್. ತ್ಶೆಚ್ ಪರಿಂ 'ತೊ' ಆನಿ 'ತೆಂ'ಚೆಂ ತಾ – ಆನಿ 'ತೀ'ಚೆಂ 'ತಿ'।– ಅನೇಕ್‌ವಚನಾಂತ್ ತಾಂ – ಜಾವ್ನ್ ತಾಕಾ ಕುಸಾಂ ಲಾಗ್ತಾತ್: ತಾಂಣಿ. ತಾಂಕಾಂ. ತಾಂಚೊ...... ಅನುಸ್ವಾರ್ ಅನೇಕ್‌ವಚನಾಚ್ಯಾ ಸಾಮಾನ್ಯ ರುಪಾಕ್‌ಚ್ ಲಾಗ್ತಾ ದೆಖೂನ್ ತೊ 'ತಾ' ಬರಾಬರ್ **ವಿಭಕ್ತಿಕುಸಾಂ ಜೊಡ್ಚೆ ಆದಿಂ** ಬರೊವ್ಚೊ, ಉಪ್ರಾಂತ್ ನ್ಹಯ್!

ಪಯ್ಲ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತೆಂತ್ 'ಆಮಿ', ಅನುಸ್ವಾರ್ ನಾಸ್ತಾನಾ; ತಿಸ್ರ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತೆಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾವ್ನ್: 'ಆಮಿಂ' ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ವಿಭಕ್ತಿರೂಪ್ ಒಳ್ಖೊಂಕ್ ಸುಲಭ್ ಜಾತಾ. ತೇಚ್ ಪರಿಂ: ತಾಣೆಂ. ತಿಣೆಂ. ಕೊಣೆಂ ಬರೊವ್ಚೆಂ. ತಿಸ್ರ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತಿಚೆಂ ಸೊಂಪ್ಯಾಚೆಂ (ತಾಣೆನ್, ಕೊಣೆನ್—ಹಾಂತ್ಲೆಂ) 'ನ್' ಅನುಸ್ವಾರ್ ಜಾಂವ್ಕ ಪಾವ್ಲಾಂ ಮ್ಹಣುಂಯೆತ್.

**ಹಾಂವ್** ಕಾಮ್ ಕರ್ತಾಂ—**ಹಾಂವೆಂ** ಕಾಮ್ ಕೆಲೆಂ.

**ಆಮಿ** ಕಾಮ್ ಕರ್ತಾಂವ್—**ಆಮಿಂ** ಕಾಮ್ ಕೆಲೆಂ.

ತೊ, ತೀ. ತೆಂ ಕಾಮ್ ಕರ್ತಾ—ತಾಣೆಂ. ತಿಣೆಂ ಕಾಮ್ ಕೆಲೆಂ.

ತೆ, ತ್ಯೊ. ತೀಂ ಕಾಮ್ ಕರ್ತಾತ್—ತಾಂಣಿಂ ಕಾಮ್ ಕೆಲೆಂ.

ಶಣೈಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾಚ್ಯಾ ಮತ್ತಾ ಪರ್ಮಾಣೆಂ:

ತಾಂಣೀ. ರಾಮಾಂನೀ. ಗಾಂವಾಂನೀ, ಮುಯಾಂನೀ, ಘರಾಂನೀ...... ಅಶೆಂ ಶೆವಟಾಕ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ನಾಸ್ತಾನಾ ಬರಯ್ಜ್ಯಾರ್ ಪಾವ್ತಾ. ಹಾಚಿ ಪ್ರೊಡ್ನಿಪಿ ತೊ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿಚಿ ವ್ಯಾಕರಣೀ ಬಾಂದಾವಳ್ ಪುಸ್ತಕಾಂತ್ 42 ಪಾನಾರ್ ದಿತಾ.

ಸರ್ ಭಂಡಾರ್‌ಕಾರಾಚ್ಯಾ ಮತ್ತಾ ಪರ್ಮಾಣೆಂ:

'ಣೆ'ಕ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಜೊಡೂನ್: 'ತಾಂಣೇಂ', 'ಹಾಂಣೇಂ' ಬರೊವ್ಚೆಂ. ಪುಣ್ 'ತಾ' ಆನಿ 'ಣೆ' ಮದ್ಲೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಗರ್ಜೆಚೊ ನ್ಹಂಯ್ ಸಗ್ಳೆ ಮಾನೂನ್ ಘೆತಾತ್.

ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಶಾ ಮಂಡಳಾನ್ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ನಿಯಮಾಂ ಪಯ್ಕಿಂ 11ವೊ ನೇಮ್ ಅಸೊ ಆಸಾ:

ಜಾಂಣೇಃ; ಹಾಂಣೇಃ; ತಾಂಣೇಃ ಹ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂನಿ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಫಕತ್ ಪಯಲ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಚೆರ್ ದಿವ್ಚೊ; 'ಣೆ'ಚೆರ್ ದಿವ್ಚೊ ನ್ಹಯ್. (ನಾಕಾ ಉಚ್ಚಾರಾಚ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಂಚೆರ್—ದೆಖಿಕ್: ಣ. ನ. ಮ—ಅನುಸ್ವಾರಾಚಿ ಗರಜ್ ನಾ.)

ಮಂಡಳಾನ್ ಹಾಂಗಾ ದಿಲಾಂ ತೆಂ ಕಾರಣ್: ತ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಂಚೆರ್ ಅನುಸ್ವಾರಾಚಿ ಗರಜ್ ನಾ: ಮ್ಹಣ್ಟ್ಯಾಚೆಂ—ಪೂಣೂನ್ ಘೆತ್ಯಾರ್. ನಿಯಮಾಂ ಘಡಿ. ನಿಯಮಾಂ ಉತ್ರಾಂ. (ತೆ) ಆಪ್ರೊಪ್ಲೆ. (ತೆಂ) ಆಪ್ರೊಪ್ಲೆಂ—ಹಾಂಚಿ ಮದೊ. ಫರಕ್ ಬರೊವ್ಪಾಂತ್ ದಾಖಯ್ನಾಸ್ತಾನಾ: ನಿಯಮಾಂ ಉತ್ರಾಂ. ತೆಂ ಆಪ್ರೊಪ್ಲೆ— ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ತೆಂ ವ್ಯಾಕರಣ್ ನಿಶ್ಚಿನ್ ಕೊಣ್ ಸಾರ್ಕೆಂ ವ್ಹಾಣತ್?

(8) **ನ್ಹಯ್‌ಕಾರೀ ಕ್ರಿಯಾಪದಾಂಚೊ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

| ಹಯ್‌ಕಾರ್<br>ಹಯ್ / ವ್ಹಯ್ | ನ್ಹಯ್‌ಕಾರ್<br>ನ್ಹಯ್ |
|---|---|
| ಹಾಂವ್ ಆಸಾಂ | ಹಾಂವ್ ನಾಂ |
| ಆಮಿ ಆಸಾಂವ್ | ಆಮಿ ನಾಂವ್ |
| ತೂಂ ಆಸಾಯ್ | ತೂಂ ನಾಯ್ |
| ತುಮಿ ಆಸಾತ್ | ತುಮಿ ನಾತ್ |
| ತೊ, ತೀ, ತೆಂ ಆಸಾ | ತೊ, ತೀ, ತೆಂ ನಾ |
| ತೆ. ತ್ಯೊ. ತೀಂ ಆಸಾತ್ | ತೆ. ತ್ಯೊ. ತೀಂ ನಾತ್. |

ಪಯ್ಲ್ಯಾ ಪುರುಶಾಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಆಸಾ, ತಾಚ್ಯಾ ಭಾಯ್ರ್ ನಾ. ಕಾರಣ್ ತೀಂ ನ್ಹಯ್‌ಕಾರೀ ರುಪಾಂ: ಆಸಾಂ, ಆಸಾ...... ಹ್ಯಾ ಹಯ್‌ಕಾರೀ ರುಪಾಂಕ್ 'ನ' ಲಾವ್ನ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್:

ನ+(ಆಸಾಂ—ಅಹಾಂ—ಆಅಂ) ಅಂ=ನಾಂ.

ನ+(ಆಸಾ—ಆಹಾ—ಆಅ) ಆ=ನಾ.

ಶಾಸ್ತ್ರೀಕ್ ರಿತೀಕ್ ಲಕ್ಷ್ನ್ ದಿವ್ನ್ ಬರಯ್ತಾನಾ: ತೊ ನಾ, ತೂಂ ನಾಯ್. ತೊ ನಾ, ಆಮಿ ನಾಂವ್, ತುಮಿ, ತೆ ನಾತ್—ಅಶೆಂಚ್ ಬರೊವ್ಚೆಂ.

'ನ್ಹಯ್'ಕ್ ಮದೆಂ ಅನುಸ್ವಾರ್ ದಿವ್ನ್ 'ನ್ಹಂಯ್' ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ 'ನದಿ' (River) ಅರ್ಥ್ ಯೆತಾ.

**(9) ಕ್ರಿಯಾವಿಶೆಶಣೀ ರುಪಾಂಚೊ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

ವೇಗ್, ಸರ್ಗ್, ಧ್ಯಾನ್, ಮನ್, ಸಂಸಾರ್...... ಅಸ್ಲಿಂ ನಾಮಾಂ ತಿಸ್ರ್ಯಾ ವಾ ಸಾತ್ವ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತಿಂತ್ ಘಾಲೂನ್ ತಾಂಚೊ ಕ್ರಿಯಾವಿಶೆಶಣೀ ಪ್ರಯೋಗ್ ಜಾತಾ:

ವೆಗೀಂ, ಸರ್ಗೀಂ, ಧ್ಯಾನೀಂ, ಮನೀಂ, ಸಂಸಾರೀಂ...... ತೆದ್ನಾ ತಾಂಕಾಂ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾಗ್ತಾ. ತ್ಶೆಚ್ ಪರಿಂ ನೆಣಾರ್ಪಣೀಂ, ಭೊಂವ್ತಣೀಂ, ಸೊಂಪೆಪಣೀಂ, ತಾಂತ್ಲೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಗಳೊವ್ನ್ ನೆಣಾರ್ಪಣಿ, ಸೊಂಪೆಪಣಿ, ಧ್ಯಾನಿ, ಮನಿ, ಸರ್ಗಿ, ಸಂಸಾರಿ...... ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ತಾಂಕಾಂ ಸ್ತ್ರೀಲಿಂಗೀ ಏಕವಚನೀ ವಾ ವಿಶೆಶಣೀ ರೂಪ್ ಆಸಿ ಅರ್ಥ್ ಯೆತಾ; ತಾಂಚೆಂ ರೀತ್, ವೇಳ್, ಸುವಾತ್ ದಾಖೊವ್ಚೀ ಕ್ರಿಯಾವಿಶೆಶಣೀ ರೂಪ್ ನಪಯ್ತ್ ಜಾತಾ.

**(10) ಥೊಡ್ಯಾ ವಿದ್ಯರ್ಥೀ ರುಪಾಂಚೊ ಆನಿ ವ ಬರಾಬರ್ ಘುಸ್ತಾ ತೊ ಅನುಸ್ವಾರ್:**

ಧಾತೂಕ್ 'ಚೊ, ಚೀ, ಚೆಂ, ಚೆ, ಚ್ಯೊ, ಚೀಂ'—ಹಿಂ ಕುಸಾಂ ಲಾವ್ನ್ ವಿದ್ಯರ್ಥ್ ಘಡ್ತಾತ್. ಮಾಗ್—ಮಾಗ್ಚೊ, ಕರ್—ಕರ್ಚೊ, ಧಾಂವ್—ಧಾಂವ್ಚೊ....

ಧಾತೂ 'ಅಯ್', 'ಆಯ್' ವಾ 'ವ್'ನ್ ವಾ ದುಸ್ರ್ಯಾ ಖಂಯ್ಚ್ಯಾಯ್ ಸ್ವರಾನ್ ಸೊಂಪ್ತಾನಾ ವಿದ್ಯರ್ಥೀ ರುಪಾಂತ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಘಾಲ್ಚಿ ಚಾಲ್ ಸಾಮಾನ್ಯ ಬರೊವ್ಪ್ಯಾಂ ಮದೆಂ ಚಾಲು ಆಸಾ:

ಉಲಯ್—ಉಲೊಂವ್ಚೊ, ಬರಯ್—ಬರೊಂವ್ಚೊ, ರಾವ್—ರಾಂವ್ಚೊ, ಜೆವ್—ಜೆಂವ್ಚೊ, ಖಾ—ಖಾಂವ್ಚೊ, ಜಾ—ಜಾಂವ್ಚೊ, ದೀ—ದಿಂವ್ಚೊ, ಧೂ—ಧುಂವ್ಚೊ, ಘೆ—ಘೆಂವ್ಚೊ.

ತರಿಪುಣ್ ಶಣಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬ್ ಹೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲೆಖಾ ಭಾಯ್ಲೊ ಮ್ಹಣ್ ತೊ ಭಾಯ್ರ್ ಉಡೊವ್ನ್: ಜೆವ್ಚೊ, ಖಾವ್ಚೊ, ದಿವ್ಚೊ, ಧುವ್ಚೊ, ಘೆವ್ಚೊ...... ಅಶೆಂಚ್ ಬರಯ್ತಾ ಆನಿ ಅಶೆಂ (ವ್ಯಾ. 153 ಪಾನಾರ್) ಸಗ್ಳ್ಯಾಂ ಧಾತುಂಕ್ ಏಕ್‌ಚ್ ಆನಿ ತೊಚ್ ನೇಮ್ ಲಾಗು ಕರ್ತಾ.

"ಧಾತೂಕ್ ಏಪ್ರತ್ಯಿ ಕುಸಾಂ ಲಾಯ್ತಾನಾ, 'ಯ' ಸೊಡೂನ್ ಪೂರ್ಣಾ 'ಅ'ನ್ ಸೊಂಪಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧಾತೂಂತ್ ಕಸಲೊಚ್ ಬದಲ್ ಜಾಯ್ನಾ. ದೆಖಿಕ್: ಮಾಗ್+ಚೊ-ಮಾಗ್ಚೊ. ಥಾಂಪ್+ಚೊ-ಥಾಂಪ್ಚೊ. 'ಯ'ನ್ ಸೊಂಪಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧಾತೂಂತ್ 'ಯ'ಚೊ 'ವ' ಜಾತಾ. ದೆಖಿಕ್: ರೋಂಯ್+ಚೊ-ರೊಂವ್ಚೊ. ಲಾಯ್+ಚೊ-ಲಾವ್ಚೊ......

ಆ. ಈ. ಊ. ಏ ಆನಿ 'ಐ'ನ್ ಸೊಂಪಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧಾತೂಂಕ್ 'ವ'ಚಿ ಭರ್ ಪಡ್ತಾ. ದೆಖಿಕ್: ಖಾ+ಚೊ-ಖಾ+ವ+ಚೊ-ಖಾವ್ಚೊ. ಹೇಚ್ ಭಾಶೆನ್ ದಿವ್ಚೊ. ಧುವ್ಚೊ, ಘೆವ್ಚೊ ಹೀಂ ರುಪಾಂ ಜಾತಾತ್. 'ಐ'ನ್ (ಅಯ್) ಸೊಂಪಿಲ್ಲ್ಯಾ ಧಾತೂಂಕ್ ಕುಸಾಂ ಲಾಯ್ತಾನಾ 'ಐ'ಚೊ 'ಓ' ಜಾತಾ. ದೆಖಿಕ್: ಉಲೈ (ಉಲಯ್)+ಚೊ-ಉಲೊ+ವ+ಚೊ-ಉಲೊವ್ಚೊ.

'ಆಮಿ ಕರುಂಯಾಂ' ಹೆಂ ಸಾರ್ಕೆಂ ನ್ಹಯ್. ಕರುಂ(ಕ್)+ಯಾ—ಹೀಂ ದೊನೀಯ್ ಜೊಡೂನ್ 'ಕರುಂಯಾ' ಜಾತಾ. ತಾಕ್ತೀನ್ ಉಲಯ್ತಾನಾ ಅನುಸ್ವಾರಾಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಸೊಂಪ್ಯಾರ್ ಯೆತಾ ಜಾಯ್ತ್. ತೆದ್ನಾ 'ಕರ್ಯಾಂ' ವಾ 'ಕಯರ್ಾಂ' ಬರೊವ್ಪ್ಚೆಂ ಪಡ್ತಾ. ಪುಣ್ ಶಾಸ್ತ್ರೀಕ್ ರಿತಿನ್ ಲಕ್ಷ್ ದಿವ್ನ್, ಬರಯ್ಲ್ಲೆಂ 'ಕರುಂಯಾ' ಚಡ್ ಅರ್ಥಾಭರಿತ್ ದಿಸ್ತಾ.

ಬರೊವ್ಪಾಚಿ ಪದ್ಧತ್ ಏಕ್ರೂಪಿ ವಾಟೆನ್ ಘಾಲ್ಪ್ಚೆ ಖಾತೀರ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾಯ್ ಬರೊವ್ಪ್ಯಾಂನಿ ಹೊ ನೇಮ್ ಪಾಳೂನ್ ಘೆವ್ನ್ ಆಮಿಂಯ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಸೊಡೂನ್ ತ್ಯಾಚ್ ಪರಿಂ 'ಖಾವ್ಚೊ', 'ದಿವ್ಚೊ'...... ಬರೊವ್ಪ್ಚೆಂ ಆನಿ ತಿಸ್ರ್ಯಾ ವಿಭಕ್ತಿಚೆಂ ಬಹುವಚನೀ ರೂಪ್ 'ತಾಂಣಿ', 'ಹಾಂಣಿ' ಬರೊವ್ಪ್ಚೆಂ ಪೆಂಚ್ ಸೊಂಪೆಂ.

## (11) ಧಾತು-ಅವ್ಯಯಾಂಕ್ ಲಾಗೂನ್ ಅನುಸ್ವಾರ್:

'ಚಲ್ತಾಂ ಚಲ್ತಾಂ ಜಾಲಿ ರಾತ್'. 'ಚಲ್' ಧಾತುಚೆಂ ಅಪೂರ್ಣ ಧಾತುವಿಶೇಶಣ್: 'ಚಲತ್' ಜಾತಾ. ತಾಕಾ 'ಆಂ' ಅವ್ಯಯ್ ಲಾವ್ನ್ (ಚಲತ್+ಆಂ) 'ಚಲ್ತಾಂ' ರೂಪ್ ಜಾಲಾಂ. ಹೊ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಸಾಂಬಾಳುಂಕ್ ಜಾಯ್. ತಾಕಾ ದುಬಾವ್ ನಾ. ಪುಣ್ 'ಚಲ್ತಾನಾ' ವಾ 'ಚಲ್ತನಾ', 'ಚಲ್ತಾಸ್ತಾನಾ' ವಾ 'ಚಲ್ತಾಸ್ತನಾ' ಅಶಿಂ 'ಚಲತ್' ಅಪೂರ್ಣ ಧಾತುವಿಶೇಶಣಾಕ್ ಆನಾ।ಅನಾ, ಆಸ್ತಾನಾ।ಆಸ್ತನಾ—ಹೀಂ ಅವ್ಯಯಾಂ ಲಾಯ್ತಾನಾ ಪ್ರೊ. ಜೊ. ಆ. ಫೆರ್ನಾಂಡಿಸ್ ಸೊಂಪ್ಯಾರ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಘಾಲುಂಕ್ ಜಾಯ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಾಂಗ್ತಾ.

ಕೆದ್ನಾ, ಜೆದ್ನಾ. ತೆದ್ನಾ—ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತ್ ಓಟ್ ಪದ್ಧತ್ ಚಾಲು ಆಸಾ. ಹಾಂಕಾಯ್ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಲಾಂವ್ಕ್ ಘಾವೊ ಮ್ಹಣ್ತಾ ತೊಚ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ನಾದ್‌ಶಾಸ್ತ್ರ.

**(12) ಸೊಂಪ್ತ್ಯಾ ಸ್ವರಾಂತ್ ಲಿಂಗ್, ವಚನ್ ಆನಿ ವ್ಯಾಕರಣೀ ರೂಪ್ ಒಳ್ಖುಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾ:**

ಜಶೆಂ ನಾಮಾಂಚೊ, ತಶೆಂ ವಿಶೆಶಣಾಂಚೊ ಆನಿ ಸರ್ವನಾಮಾಂಚೊಯ್ ಸೊಂಪ್ತೊ ಸ್ವರ್ ತಾಂಚೆಂ ಲಿಂಗ್ ಆನಿ ವಚನ್ ವ್ಯಕ್ತ್ ಕರ್ತಾ.

ಹಾಂಗಾ ದಿಲ್ಲಿ ವಳೆರಿ ಸೊಕ್ತ್ಯಾಯೆನ್ ವಿಸ್ಲ್ಯಾನ್ ಪಳೆತಚ್—ಹೆಂ ಸಾರ್ಕೆಂ ಸಮ್ಜ್ತಲೆಂ:

| ನಾಮ್ | ವಿಶೆಶಣ್ | ಸರ್ವ ನಾಮ್ | ಸೊಂಪ್ತೊ ಸ್ವರ್ | ಲಿಂಗ್ | ವಚನ್ |
|---|---|---|---|---|---|
| ಪಾಡೊ/ಕಾಣೊ | ಬರೊ/ಮೊನೊ | ತೊ | ಒ | ಪು. | ಏಕ |
| ಪಾಡೆ/ಕಾಣೆ | ಬರೆ/ಮೊನೆ | ತೆ | ಎ | ಪು. | ಅನೇಕ |
| ಪಾಡಿ/ರಾಣಿ | ಬರೀ/ಮೊನಿ | ತೀ | ಈ | ಸ್ತ್ರೀ | ಏಕ |
| ಪಾಡ್ಯೊ/ರಾಣಿಯೊ | ಬರ್ಯೊ/ಮೊನ್ಯೊ | ತ್ಯೊ | ಇಯೋ | ಸ್ತ್ರೀ | ಅನೇಕ |
| ಕೆಳೆಂ/ದೆಣೆಂ | ಬರೆಂ/ಮೊನೆಂ | ತೆಂ | ಎಂ | ನಪುಂ. | ಏಕ |
| ಗೊರೂಂ | ಬರೆಂ/ಮೊನೆಂ | ತೆಂ | ಊಂ | ನಪುಂ. | ಏಕ |
| ತಾಂತಿಂ | ಬರೆಂ/ಮೊನೆಂ | ತೆಂ | ಈಂ | ನಪುಂ. | ಏಕ |
| ಕೆಳಿಂ/ದೆಣಿಂ | ಬರೀಂ/ಮೊನೀಂ | ತೀಂ | ಈಂ | ನಪುಂ. | ಅನೇಕ |
| ಗೊರ್ವಾಂ | ಬರೀಂ/ಮೊನೀಂ | ತೀಂ | ವಾಂ | ನಪುಂ. | ಅನೇಕ |
| ತಾಂತಿಯಾಂ | ಬರೀಂ/ಮೊನಿಂ | ತೀಂ | ಇಯಾಂ | ನಪುಂ. | ಅನೇಕ |

ನಾಮ್‌ಪದ್. ಸರ್ವನಾಮ್, ವಿಶೆಶಣ್ ಆನಿ ಕ್ರಿಯಾವಿಶೆಶಣೀ ರುಪಾಂ ಅನುಸ್ವಾರ್ ಘೆವ್ನ್ ವಾ ಘೆನಾಸ್ತಾನಾ ಕಶಿಂ ಸಾಂಗಾತಾ ಬಸ್ತಾತ್ ಆನಿ ವಾಚ್ಪ್ಯಾಕ್ ದಿಸ್ತಾತ್ ತೆಂ ಹ್ಯಾ ಸಕಯ್ಲ್ಯಾ ವಾಕ್ಯಾಂನಿ ವ್ಯಕ್ತ್ ಜಾತಾ.

ತಾಣೆಂ (3 ವಿಭಕ್ತಿ) ದಿಲ್ಲೆಂ ದೆಣೆಂ ಉಣೆಂ ಜಾಲೆಂ.

ತಾಂಣಿ (3 ವಿಭಕ್ತಿ ಅನೇಕ) ಕಾಣೆ ಧಾ ಘೆತ್ಲೆ; ಆಟ್ ಆಣೆ ಉಣೆ ಪಡ್ಲೆ.

ಮೊಗರ್ಲ್ಯಾಕ್ ತೆ ಆಟ್ ಆಣೆ ದೆಣೆ (=ದೆವೆ) ಜಾಲೆ.

ಕೆವ್ನಾಂ 'ಮಾರ್ಝಾ' ಬರಯ್ತಾತ್. ಪುಣ್ 'ತೂಂ ಜಾ' ಆನಿ 'ಮಜಾ'—ಹಾಂತ್ಲೊ 'ಜಾ'ಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಏಕ್ ಸಾರ್ಕೊ ನ್ಹಯ್. ದೊನಾಂತೂಯ್ 'ಜಾ' ಆಸಾ. ದೆಖೂನ್ 'ಮ್ಹಜ್ಯಾ' ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ಮಾತ್ರ್ ತೆಂ ತಶೆಂಚ್ ವಾಚುನ್ ತಾಚೊ ಸಾರ್ಕೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಯೆತಾ.

ಚ್+ಇ—ಈ. ಚಿತ್ರ್, ಚೀಟ್, ಚೀಲ್, ತಾಚಿ......

ಚ್+ಎ—ಏ. ಚೆಡೊ, ಚೆಪೆಂ, ನಿಚೆವ್......

ಜ್+ಇ—ಈ. ಜಿಬ್ಲಿ, ಜೀವ್, ತುಜಿ, ಭಾಜಿ......

ಜ್+ಎ—ಏ. ಜೆವ್ಲೊ. ತುಜೆ, ತುಜೇ, ಪೆಜೇಕ್......

ತಾಂಕಾಂ 'ಅ'. 'ಆ'. 'ಉ', 'ಊ', 'ಒ', 'ಓ'—ಹೆ ಸ್ವರ್ ಮೆಳಯ್ತಾನಾ ವಾ 'ಚ' 'ಜ' ಉತ್ರಾಚ್ಯಾ ಸೊಂಪ್ಯಾರ್ ಯೆತಾನಾ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ ತಾಂಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ವೆಗ್ಳೊಚ್ ಜಾತಾ. (ಯೆವ್ರೊಪಿ ಲೋಕ್ ತೊ 'ts'......ಆಸೊ ದಾಖಯ್ತಾತ್.)

ಚ: ಚಲ್, ಚಡ್, ಚಣೆ, ಚಂದ್ರಿಮ್.

ಚಾ: (ಪಣ್ಣಾಚಿ) ಚಾರ್, ಚಾರ್ಕಂಡ್, ಎಕ್ಚಾರ್. ವಿಚಾರ್.

ಚು: ಚುನೊ, ಚುಕಿ, ವಚುಂಕ್, ವಾಚುಂಕ್.

ಚೂ: ಚೂಡ್, ಚೂಕ್, ಚೂನ್.

ಚೊ: ಚೊವೀಸ್, ಚೋರ್.

ಚೌ: ಚೌಗ್, (ಚವ್ಗ) ಚೊವ್ಗ. ಚೌಕ್, (ಚವ್ಕ) ವಾ ಚೊವ್ಕ.

ಚ್: ಖಾಂಚ್. ಚೀಂಚ್, ಲೋಂಚ್, ಬೋಂಚ್. ರೂಚ್. ಕರ್ತ್ರಚ್, ನಾಚ್, ವಾಚ್.

**'ಚ'-ಚೊ ಭಂಗ್ಲಲೊ ಉಚ್ಚಾರ್:**

ತೊಚ್, ವಾಚ್ತಾ, ನಾಚ್ತಾ, ವಿಂಚ್ತಾ, ಖೆಂಚ್ತಾ......

ಹಿ ಏಕ್ ಗಜಾಲ್ ಧ್ಯಾನಾಂತ್ ಆಸೂಂ: ಥೊಡ್ಯಾ ಜಣಾಂಕ್ ವಚ್, ವಾಚ್, ವಚುಂಕ್, ವಾಚುಂಕ್, ಹಾಂತ್ಲೆಂ 'ಚ್' ಉಚ್ಚಾರುಂಕ್ ಯೆನಾ ದೆಖೂನ್ ವಸ್. ವಾಸ್. ವಸುಂಕ್, ವಾಸುಂಕ್—ಅಶೆಂ ಉಚ್ಚಾರ್ತಾತ್, ಮ್ಹಣ್ ತಿಂ ಉತ್ರಾಂ ತಶಿಂಚ್ ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್ ತೊಂಡಾನ್ ಕೆಲ್ಲಿ ಚೂಕ್ ಲಿಖ್ಣೆನ್ ಥಾರಾವ್ನ್ ಭಾಸ್ ಭಂಗ್ತಾ:

ಹಾಂಗಾ ದಿಲ್ಯಾಂತ್ ತ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಚೊ ಅರ್ಥ್ ಕಸೊ ಬದಲ್ತಾ?

ನಾಚ್ಲೊ (danced). ನಾಸ್ಲೊ (was not). ವಾಚ್ (read). ವಾಸ್ (smell). ವಚ್ (go). ವಸ್ (fat). ವಸ್ (live, flourish or prosper.).

**'ಜ' ಆನಿ 'ಝ'-ಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್:**

ಜ: ಜತನ್, ಜಸೊ, ಜಡ್, ಜರ್.

ಝ: ಝುರ್, ಝುಗ್ಲಾಪ್ಣಂ.

ಜಾ: ಜಾತ್. ಜಾಪ್. ಜಾಗ್. ಜಾಗೊ. ಜಾಳ್. ಜಾಂಬಳ್.

ಝಾ: ಝಾಡ್, ಝಾಂಕ್.

ಜು: ಜುನ್ಾಟ್, ಜುನೆಟ್, ಜುಲುಮ್.

ಝು: ಝುಂಬರ್ (chandelier), ಝುಜ್, ಝುರೀ.

ಜೂ: ಜೂಯ್, ಜೂನ್.

ಜೊ: ಜೊಡ್, ಜೊಡೆಂ.

ಝೊ: ಝೊಂಪ್. ಝೊಂಪಡ್, ಝೊಂಪ್ಲಿ.

ಜ್: ಆಜ್. ವೀಜ್, ನೀಜ್, ಲಜ್, ಪೆಜ್.

ಚ. ಚಾ, ಚು. ಚೂ. ಚೊ. ಚೋ ಆನಿ ಜ. ಜಾ. ಜು, ಜೂ. ಜೊ. ಜೋ. ಹಾಂಚೊ ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ ಸದಾಂಚೊ (ಕೊಂಕ್ಣಿಕ್ ಸಂಯ್ಲಿಕ್) ಉಚ್ಚಾರ್ ದೊಳ್ ದೆಖೊನ್ ತಾಂಕಾಂ ಕಾನಡಿಂತ್ ಆಸಾ ತಸ್ಲೊಚ್ ಉಚ್ಚಾರ್ ಆಸಾ ಮ್ಹಣ್ ದಾಖೊಂವ್ಕ 'ಚ' 'ಜ' ಕ್ 'ಯ' ಲಾವ್ನ್ ಬರೊಂವ್ಕ ಜಾಯ್: ತಾಚ್ಯಾ. ತಾಚೊ, ಜ್ಯಲ್ಲಿ. ಜ್ಯಾಕೆಟ್, ಜ್ಯಾಸ್ತಿ, ಜ್ಯುದಿತ್.

ಮ್ಹಜ್ಯಾ (ಮಜಾ ಪ್ಲಾರ್ ಮಸ್ಲ್ಯಾಚ್ ಅರ್ಥ್ ಜಾತಾ-Fun, mirth, merriment). ರೊಮಿ ಲಿಪಿಂತ್ ಬರಯ್ತಾನಾ ಚ-ch ತಾಚೊ-tacho, ತಾಚಿ-tachi, ಚಾರ್-char, ಮ್ಹಜೊ-mhozo, ಮ್ಹಜಿ-mhoji, ಮ್ಹಜೆಂ-mhojem, ಮಜಾ-moza.........ಅಶೆಂ ಬರೊಪ್ಚೆಂ.

## 11, 'ಹ'ಚೊ ಭರ್—ಮಹಾಪ್ರಾಣಾಚೊ ಉಚ್ಚಾರ್:

ಮ್ಹಜೊ, ಮಜೊ; ಮ್ಹಾಕಾ ಆನಿ ಮಾಕಾ...... ಅಸಲಿಂ ಕಾಂಯ್ ಉತ್ರಾಂ ಬರೊಪ್ಪಾಂತ್ ಪ್ಗ್ರಿ ಪಗ್ರಿ ಚಾಲ್ ದಿಸೂನ್ ಯೆತಾ. ತಾಂಚೊ ಸಾರ್ಕೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಮೆಳ್ಚೆ ಖಾತಿರ್ 'ಮ್ಹಜೊ, ಮ್ಹಾಕಾ...... ಬರಯ್ಲ್ಯಾರ್

ಅಧಿಕ್ ಬರೆಂ. ತ್ಯಾಚ್ ಕಾರಣಾಕ್ ಲಾಗೂನ್ 'ನೆಸುಂಕ್, ಮೆಳೊ (dirty,) ಮೆಳ್ಳಾ (dirties)'...... ಬದ್ಲಾಕ್ 'ನ್ಹೆಸುಂಕ್, ಮ್ಹೆಳೊ, ಮ್ಹೆಳ್ಳಾ......' ಬರೊಂವ್ಕ್ ಜಾಯ್. ಮೆಳೊ—ಮೆಳ್ಳಾ ದುಸ್ರ್ಯಾಚ್ ಅರ್ಥಾನ್ ಘೊಳ್ಳಾ. ಪ್ರೊ॥ ಜೊ. ಆ. ಫೆರ್ನಾಂಡಿಸ್ ಬರಯ್ತಾ: "ಕುಲೀನ್ ಲೋಕ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಉಲೊವ್ಣ್ಯಾಂತ್ ಅಶೆಂಚ್ ತೀಂ ಉಚ್ಚಾರ್ತಾ: ವ್ಹಾಕಾ, ವ್ಹಜೊ, ನ್ಹಾತಾ, ನ್ಹೆಸ್ತಾ. ಸ್ಹಿವ್ತಾ,. ಝುರಯ್ತಾ, ಭಲಾಯ್ಕಿ, ಹುನ್ಸ್ಹುನಿತ್, ಹುನೆತ್ (ಹೂನ್+ವತ್)..."

ಖ. ಘ. ಛ, ಝ, ಥ, ಧ, ಠ. ಢ. ಫ, ಭ. ಹ್ಯಾ ವರ್ಣಾಂಕ್ ಮಹಾಪ್ರಾಣ್ (aspirated letters) ವಾ ಬಾಫೆಚಿಂ ವ್ಯಂಜನಾಂ ಮ್ಹಣ್ತಾತ್. ಸಂಸ್ಕೃತ್ ಮೂಳ್-ಸಬ್ದಾಂತ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲೆ ಮಹಾಪ್ರಾಣ್ ದಿಸಾನ್‌ದೀಸ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಉಲೊವ್ಪಿ ಲೊಕಾಚ್ಯಾ ತೊಂಡಾಂತ್ ಹಳೂ-ಹಳೂ ಆನಿ ಮೋವ್ ಜಾವ್ನ್ (ಮೊವಾಳೂನ್) ಲಿಪ್ತಚ್ ಆಸಾತ್. ಉತ್ರಾಚ್ಯೆ ಸುರ್ವೆರ್ ಹೊ ಅಲ್ಪಪ್ರಾಣಾ ಆನಿ ಮಹಾಪ್ರಾಣಾ ಮದ್ಲೊ ಫರಕ್ ಸಾಂಬಾಳ್ತಾತ್. ಪುಣ್ ಯೆರೆಕಡೆನ್ ತಸೊ ಸಾಂಬಾಳ್ಳಲೊ ದಿಸನಾ.

ದೇವನಾಗರಿಂತ್ ತೆ ತಿತ್ಲ್ಯಾ ಸುಲಭಾಯೆನ್ ಸಾಂಡುಂಕ್ ನಾತ್. ತೆ ಬರಯ್ತಾನಾ ಹೊ ಫರಕ್ ಸಾಂಬಾಳ್ಯಾರ್ ಉತ್ರಾಂಚಿ ಒಳಖ್ ಮೆಳೊಂಕ್ ಆನಿ ಅರ್ಥ್ ಕಳೊಂಕ್ ಸುಲಭ್ ಜಾತಾ. ಜಾಯ್ತ್ಯಾಂ ಪಾವ್ಟಿಂ ತೊ ಸಾಂಬಾಳ್ನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಅರ್ಥ್‌ಚ್ ವೆಗ್ಳೊ ಜಾತಾ ಮ್ಹಣ್ ಉಡಾಸ್ ಆಸೂಂ.

**ಬದಲ್ಲೆ ವರ್ಣಿಂ ಅರ್ಥಾಕ್ ಬಾದನಾ**

| | | | |
|---|---|---|---|
| ರೂಖ್<br>Rukh | ರೂಕ್<br>Ruk | ಹಾಂವ್<br>Hanv | ಆಂವ್<br>Anv |
| ಮುಖಾರ್<br>Mukhar | ಮುಕಾರ್<br>Mukar | ಉಘ್ತೊ<br>Ughtto | ಉಗ್ತೊ<br>Ugto |
| ಉಘ್ಡಾಸ್<br>Ughddas | ಉಗ್ಡಾಸ್, ಉಡಾಸ್<br>Ugddas, Uddas | ಸಾಂಭಾಳ್<br>Sambhall | ಸಾಂಬಾಳ್<br>Samball |
| ಆಧಾರ್<br>Adhar | ಆದಾರ್<br>Adar | ದೆಖೂನ್<br>dekhun | ದೆಕೂನ್<br>dekun |

ಬದಲ್ಲೆಲೆ ವರ್ಣಿಂ ಅರ್ಥ್ ಬದಲ್ತಾ, ವ ವೆಗ್ಳೊ ಜಾತಾ,

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| ಕರೊ<br>Koro | — | ಖರೊ<br>Khoro | ಆಡ್<br>Add | — | ಹಾಡ್<br>Hadd |
| ದಾರ್<br>Dar | — | ಧಾರ್<br>Dhar | ಕಾರ್<br>Kar | — | ಖಾರ್<br>Khar |
| ಕಾತ್ರಿ<br>Katri | — | ಖಾತ್ರಿ<br>Khatri | ಗಾಯ್<br>Gai | — | ಘಾಯ್<br>Ghai |
| ಬರೊ<br>Boro | — | ಭರೊ<br>Bhoro | ಗಾಲ್<br>Gal | — | ಘಾಲ್<br>Ghal |
| ತಾಪುಂಕ್<br>Tapunk | — | ಥಾಪುಂಕ್<br>Thapunk | ತಿಕ್<br>Tik (Pungent) | — | ಥಿಕ್<br>Thik (Ruby) |
| ತಿರ್<br>Tir<br>(rag) | —<br>— | ಥಿರ್<br>Thir<br>(firm, stable) | ಕುಪ್<br>Kup<br>(cloud) | —<br>— | ಖುಪ್<br>Khup<br>(much, many) |
| ಕೊಲೊ<br>Kolo<br>(Jackal) | — | ಖೊಲೊ<br>Kholo<br>(leaf) | ಜರ್<br>zor<br>(brocade) | —<br>— | ಝುರ್ (ಉದ್ಕ್ಯಾಚಿ)<br>zhor<br>(Spring) |
| ಕಾಡ್<br>Kadd<br>(remove) | — | ಖಾಡ್<br>Khadd<br>(beard) | ಕಾಲ್<br>Kal<br>(yesterday) | — | ಖಾಲ್<br>Khal<br>(beneath, under) |
| ಕಳ್ತಾ<br>Kollta | — | ಖಳ್ತಾ<br>Khollta | ಕಿರ್<br>Kir<br>(parrot) | —<br>— | ಖಿರ್<br>Khir<br>(sweet porridge) |
| ಕಡೊ<br>Koddo<br>(Decoction) | — | ಖಡೊ<br>Khoddo<br>(grain, crystal) | ಕೆಳ್<br>Kell<br>(banana) | —<br>— | ಖೆಳ್<br>Khell<br>(play) |
| ಕಡೂ, ಕೊಡು<br>Koddu<br>(bitter) | —<br>— | ಖಡೂ<br>Khoddu<br>(chalk) | ಕಾಡಿ<br>Kaddi<br>(stick) | —<br>— | ಖಾಡಿ<br>Khaddi<br>(creek) |
| ತಾರ್<br>Tar<br>(Ferry) | —<br>— | ಥಾರ್<br>Thar<br>(rest, base) | ಕೊಟ್, (ಕೊಟೆಂ)<br>Kott<br>(fortress) | —<br>— | ಖೊಟ್<br>Khott<br>(Kick) |

ಅನುಸ್ವಾರ್ ಆನಿ ಮಹಾಪ್ರಾಣ್ ಬರೊವ್ಪಾಕ್ ಲೊಕಾಚ್ಯಾ ತೊಂಡಾಂತ್ಲ್ಯಾನ್ ಆಯ್ಕುಂಕ್ ಮೆಳ್ತಾ ತೆಂಚ್ ಮನಾಂತ್ ಧರೂನ್ ನೆಮ್ ಘಡುಂಕ್ ಜಾಯ್ನಾ. ಉಚ್ಚಾರ್ ನಾನಾಂ ಪರಿಂ ಜಾತಾ ದೆಖೂನ್ ಅಸಲ್ಯೆ ನಿಸ್ರುಡ್ಯೆ ಆನಿ ಅಥಿರ್ ಬುನ್ಯಾದಿ ವಯ್ರ್ ಘಡ್ಲಲೊ ನೆಮ್ ಥಿರ್ ರಾವನಾ. ಬರಿತ್ ವ್ಯಾಕರಣೀ ವಿಧಿ ಮಾನೂನ್ ಘೆವ್ನ್ ಆನಿ ಉತ್ರಾಚೊ ವ್ಯಾಕರಣೀ ವರ್ಗ್ ಮನಾಂತ್ ಧರೂನ್. ಹೆ ನೆಮ್ ಘಡುಂಯೆತಾತ್ ಆನಿ ಏಕ್‌ರೂಪಿ ಬರೊವ್ಪಾ ಪದ್ಧತ್ ಥಾರಾಂವ್‌ಯೆತಾ.

## 12. ಏಕ್‌ರೂಪಿ ಭಾಶೆಚಿ ವಾಟ್:

**ಲಿಪಿಂಕ್ ಆನಿ ಉಚ್ಚಾರಾಂಕ್ ಲಾಗೂನ್ ವೆಗ್ಳೆಪಣ್** ಸಾಂಡೂನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ಏಕ್‌ರೂಪೀ ಕರುಂಕ್ ಶಣಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾನ್ ಕಾಂಯ್ ಸೂಚನಾಂ ದಿಲ್ಯಾಂತ್:

### (1) ಉತ್ರಾಂಚ್ಯಾ ಸೊಂಪ್ತ್ಯಾಚೊ 'ಉ'ಕಾರ್

ಸೊಳಾವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಉತ್ರಾಂಕ್ ಸೊಂಪ್ತ್ಯಾರ್ 'ಉ' ಲಾವ್ಚಿ ಚಾಲ್ ಆಸ್ಲೀ...... 'ಮೋರು'. 'ಪರಮೆಸ್ವರು'...... ಪುಣ್ ಉಚ್ಚಾರ್ತನಾ 'ಉ' ಗಳೊವ್ನ್ 'ಮೋರ್', 'ಪರಮೆಸ್ವರ್' ಅಸೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರ್ತಾಲೆ. ಹೊ ಉಚ್ಚಾರ್ ಆಜೂನ್ ಕಾರ್‌ವಾರ್ ಥಾವ್ನ್ ತ್ರಾವಣಕೊರ್ ಮೆರೆನ್‌ಚ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೊಕಾಂತ್ ಘೊಳ್ತಾ. ಪರಂತ್ ತಾಚಿ ಗರಜ್ ಆಸಾ ಶಿ ದಿಸನಾ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ಏಕ್‌ರೂಪೀ ಕರುಂಕ್ ಹೊ 'ಉ'ಕಾರ್ ಸೊಡೂನ್ ದಿಲ್ಯಾರ್ ಬರೆಂ ಜಾಯ್ತ್. (ಕೊಂಕ್ಣಿಚಿ ವ್ಯಾಕರಣೀ ಬಾಂದಾವಳ್. ಪಾನ್ 4)

### (2) ವ್ಯಂಜನಾಂಚೆ ದೊಡೆ ಉಚ್ಚಾರ್:

ಗೋಕರ್ಣಾಚ್ಯೆ ದಕ್ಷಿಣೆಕ್ ಮಂಗ್ಳುರಾ ಮೆರೆನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೋಕ್ ಉತ್ರಾಂತ್ ವ್ಯಂಜನಾಂಚೆ ದೊಡೆ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರ್ತಾತ್: 'ಜಾಲೊ' ಬದ್ಲಾ 'ಜಾಲ್ಲೊ'. 'ಜಾತಾ' ಬದ್ಲಾ 'ಜಾತ್ತಾ'. ತೆಲ್ಲಾ ಆಯ್ಬ್ಪಾನಾಚಿ...... ಮೆಗ್ಗ್ಲೆ, ಮಾಕ್ಕಾ, ನಾಕ್ಕಾ, ಸುಕ್ಕೂನು...... ಹಾಕಾ ಲಾಗೂನ್ ಶಣಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬ್ ಮ್ಹಣ್ತಾ:

"ಗೊಂಯಾಂ ಸೊಳಾವ್ಯಾ ಶೆಕ್ಡ್ಯಾಂತ್ ಅಸಲೆ ದೊಡೆ ಉಚ್ಚಾರ್ ನಿಬಾಲೂಸ್ ನಾಸ್ಲೆ ಮ್ಹಣ್ಚೆಂ ಪಾದ್ರಿ ಸ್ಟೀವನ್ಸಾಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ವ್ಯಾಕರಣಾ ವಯ್ಲ್ಯಾನ್ ಘಣ್‌ಘಣೀತ್ ದಿಸ್ತಾ. ಆಜೂನ್ ಗೊಂಯಾಂ ಆನೀ ವಯ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕಣಾಂತ್ ಅಸಲೆ ಉಚ್ಚಾರ್ ಘೊಳನಾತ್ ಮ್ಹಣ್ಚೆಂ 1678ತ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಬರಪಾವಯ್ಲ್ಯಾನ್ ಉಕ್ತೆಂ ದಿಸ್ತಾ. ಮ್ಹಣ್ತಕೂಚ್, ಗೊಕರ್ಣಾಚ್ಯೆ

ದಕ್ಷಿಣೇಕ್ ಮಂಗ್ಳುರಾ ಪರ್ಯೆನ್ ಹೆ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕಶೆ ಆಸಿ ಖಿಂಯ್ಯಾನ್ ಆಯ್ಲ್ಯೊ ತೆಂ ಸಮ್ಜಾನಾ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಕ್ ಆಸಲ್ಲ್ಯಾ ಉಚ್ಚಾರಾಂಚಿ ಗರಜ್ ನಾ. ದೆಖೂನ್, ತೀ ಏಕ್‌ರೂಪೀ ಕರುಂಕ್ ತೆ ಜಿಗೀನ್ ಸೊಡ್ನ್ ದಿಲ್ಯಾರ್ ಬರೆಂ ಜಾಯ್ತ್." (ಪಾನ್ 12)

ಹಾಕಾ ಲಾಗೂನ್ ಡಾ॥ ರಾವ್ (ಪಾನ್ 8–9. ಅಂಕ್ 6) ಮ್ಹಣ್ತಾ:

"ದೋನ್ ಅಕ್ಷರಾಂಚ್ಯಾ ಸಬ್ದಾಂಕ್—ಜೊ. ಜಿ. ಜೆಂ ಲಾವ್ನ್ ತೆ 6ವ್ಯೆ ವಿಭಕ್ತಿಂತ್ ಘೊಳಯ್ತಾನಾ ದುಸ್ರೆಂ ಅಕ್ಷರ್ 'ರ. ಲ. ಸ. ಹ. ಳ' ನ್ಹಯ್ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ವಾ ಪಯ್ಲೆಂ ಅನುಸ್ವಾರ್ ನಾ ಜಾಲ್ಯಾರ್ ಹ್ಯಾ ದುಸ್ರ್ಯಾ ಅಕ್ಷರಾಚ್ಯಾ ವ್ಯಂಜನಾಚೆರ್ ಭರ್ ಘಾಲ್ನ್ ತೆಂ ದೊಡೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ಶೆಂ ಉಚ್ಚಾರ್ಲ್ಲೆಂ ಜಾಲ್ಲೆಂ ಆಸಾ. ಪುಣ್ **ಸಾಕೆಂ ಪಳೊಂವ್ಕ್ ಗೆಲ್ಯಾರ್ ತೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ದೊಡೆಂ ನ್ಹಯ್;** ತಾಚೆರ್ ಭರ್ ಪಡ್ತಾ ಮ್ಹಯ್. ತರಿಪುಣ್ ಬರಯ್ತಾನಾ ದೊಡೆಂ ವ್ಯಂಜನ್ ಬರೊಂವ್ಚೆಂ ನ್ಹಯ್."

ಡಾ॥ ರಾವ್ 6ವ್ಯೆ ವಿಭಕ್ತಿಚೊ ಉಲ್ಲೇಖ್ ಕರ್ತಾ. ಹೆರ್ ವ್ಯಾಕರಣೀ ರುಪಾಂಚೊ ಕರಿನಾ. ಹ್ಯೆ ಜಾತಿ ಪಯಿಂ 'ಜಾಲೊ' (became) ಹೆಂ **ಭೂತ್‌ಕಾಳೀ** ಕ್ರಿಯಾಪದ್ 'ಜಾಲ್ಲೊ' ಕೆಲ್ಯಾರ್. ತೆಂ **ಪೂರ್ಣ್-ಭೂತ್‌ಕಾಳೀ** ಕ್ರಿಯಾಪದ್ ಜಾತಾ. ದೆಖೂನ್ ಶಣಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾನ್ ದಿಲ್ಲೆಂ ಸೂಚನ್ ಸಮೆಸ್ತಾಂನಿ ಮಾನೂನ್ ಘೆಂವ್ಕ್ ಫಾವೊ.

**(3) ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಕ್ರಿಸ್ತಾಂವಾಂಚ್ಯಾ ತೊಂಡಾಂತ್ ರಿಗ್‌ಲ್ಲೆ ನವೆ ಉಚ್ಚಾರ್ :**

'ಅ' ಬದ್ಲಾ 'ಒ' ಆನಿ 'ಳ' ಬದ್ಲಾ 'ವ' ವಾ 'ಯ'. ಫಾಲೂನ್ 'ಘರಾ' ಬದ್ಲಾ 'ಘೊರಾ'. 'ಪಳೆ' ಬದ್ಲಾ 'ಪ್ವೊಯೆ' ವಾ 'ಪ್ವೊಯ್'. 'ಮಾಡ್ಗಾಂವಾ' ಬದ್ಲಾ 'ಮೊಡ್ಗಾಂವಾಂ'. 'ಮೆಳ್ಳೆಂ' ಬದ್ಲಾ 'ಮೆವ್ಲೆಂ'. 'ಖೆಳ್ ಖೆಳ್ತಾತ್' ಬದ್ಲಾ 'ಖೆವ್ ಖೆವ್ತಾತ್': 'ಕಳ್ಳೆಂ' ಬದ್ಲಾ 'ಕೊವ್ಲೆಂ'—ಅಶೆಂ ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರ್ತಾತ್. (ವಿಲಾಯತೀ ಭಾಸಾಂನಿ 'ಳ' ಉಚ್ಚಾರ್ ನಾ. ಹೆಂ ರೋಮಿ ಅಕ್ಷರಾಂನಿ: polle ಬರಯ್ತಾತ್. ತೆಂ ಪುರ್ತುಗೆಜ್ ಲೋಕ್ 'ಪ್ವೊಯೆ' ವಾ 'ಪ್ವೊಯ್' ಅಶೆಂ ವಾಚ್ತಾತ್. ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಲೋಕಾಕ್ ತಾಂಚೆಪರಿ 'ಳ' ಉಚ್ಚಾರ್ ಕರ್ಚೊ ನ್ಹಯ್.)

"ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಸ್ ನಿವಾಳ್ವ್ನ್ ಏಕ್‌ರೂಪೀ ಕರುಂಕ್ ಆಮ್ಗೆಲ್ಯಾ (ಗೊಂಯ್ಕಾರ್) ಕ್ರಿಸ್ತಾಂವ್ ಭಾವಾಂನಿ ಆಪ್ಲಿ ಭಂಗಿಲ್ಲಿ ಉಚ್ಚಾರ್ ಜಿಗೀನ್ ಸೊಡ್ಲ್ಯಾರ್ ಬರೆಂ."

ಹಯ್ರ್ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಶಣಯ್ ಗೊಂಯ್‌ಬಾಬಾಚ್ಯಾ ಸೂಚನಾಂಕ್ ಲಾಗೂನ್ ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಕೆನರಾ ಕ್ರಿಸ್ತಾಂವಾಂಕ್‌ಯಿ ಏಕ್ ಸೂಚನ್ ದಿವ್ಚೆಂ ಪಡ್ತಾ:

‘ರಗತ್’, ‘ಉತರ್’. ‘ವಾಚಪ್’ ಇತ್ಯಾದಿ ಉತ್ರಾಂತ್ಲೆಂ ‘ಅ’ ಆಮಿ ಉಚ್ಚಾರಾಂತ್ ಖರೆಪಣಿಂ ಲಾಂಬೊವ್ನ್ ದೀರ್ಘ್ ಕರಿನಾಂವ್. ತರೀ, ಬರೊವ್ಪಾಂತ್ ಚಡ್ ಕರೂನ್, ‘ಆ’ ಬರೊವ್ಚಿ ಚಾಲ್ ಧರ್ಲ್ಯಾ. ಹ್ಯೆ ಚಾಲಿ ವರ್ವಿಂ ಆಮ್ಕಿ ಭಾಸ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಎಕ್ಸ್ಟಾಚ್ಯೆ ವಾಟೇ ವಯ್ಲಿ ಕಡ್ಸರ್ಲ್ಯಾಂ. ತೀ ಏಕ್‌ರೂಪೀ ಸಾಂಬಾಳುಂಕ್ ಆಮಿಂಯ್ ಹೀ ಚಾಲ್ ಸೊಡೂನ್ ದೇವನಾಗರಿಂತ್ ತಿಂ ಉತ್ರಾಂ ಲಿಖ್ತಾತ್ ತಶಿಂಚ್ ಕಾನಡಿ ಲಿಪಿಂತೂಯ್ ಬರೊಂವ್ಕ್ ಧರ್ಲ್ಯಾರ್ ಬರೆಂ ಜಾಯ್ತ್. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಎಕ್ಸ್ಟಾಚ್ಯೆ ವಾಟೆನ್ ಹೆಂ ಆಮ್ಚೆಂ ಪಯ್ಲೆಂ ಪಾಂವಲ್ ಜಾಂವ್.

ವಚುಂಕ್, ವಾಚುಂಕ್, ವಿಚಾರುಂಕ್—ಹ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಚೆಂ ಪ್ರಮಾಣ್ ರೂಪ್ ಅಶೆಂಚ್ ಚಾಲು ಆಸಾ. ‘ಚ’ ಘಾಲೂನ್‌ಚ್ ಆಮಿ ತೀಂ ಬರಯ್ತಾಲ್ಯಾಂವ್ ಆನಿ ಆಜೂನ್, ಥೊಡ್ಯಾಂಕ್ ಭಾಯ್ರಾವ್ನ್, ಸಗ್ಳೆ ಆಮ್ಚೆ ಬರೊವ್ಪಿ ಬರಯ್ತಾತ್.

## ಅದ್ಯಾಯ್ III

# ವಾಕ್ಯ ಆನಿ ವಾಕ್ಯಪದಾಂ

### 1. ವಾಕ್ಯಾಚಿ ಬಾಂದಾವಳ್

### (Composition or Formation of a sentence)

ಮನ್ಶ್ಯಾಕ್ ಗಿನ್ಯಾನ್ ಆಸಾ. ಹ್ಯಾ ಕಾರಣಾಕ್ ಲಾಗೂನ್ ಮನಿಸ್‌ಜಾತ್ ಮೊನ್ಯಾಂತಿ (ಮೂಕಿ ಜಾತ್) ಥಾವ್ನ್ ವೆಗ್ಳಿ ಕರ್ತಾತ್. ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಗಿನ್ಯಾನಾಚ್ಯಾ ಸಕ್ತಿನ್ ಮನಿಸ್ ಯೆವ್ಜಿತಾತ್ (ಚಿಂತ್ತಾತ್). ಆನಿ ಆಪ್ಲಿಂ ಚಿಂತ್ಪಾಂ ಆನಿ ಭೊಗ್ಣಾಂ ಏಕಾಮೆಕಾಕ್ ಕಳಯ್ತಾತ್.

ಅಶೆಂ ಏಕ್ಲ್ಯಾನ್ ಚಿಂತ್‌ಲ್ಲೆಂ ಹೆರಾಂಕ್ ಕಳೊಂವ್ಕ್ ಭಾಸ್ ಉಪ್ಕಾರ್ತಾ. ಏಕಾಮೆಕಾಕಡೆಂ ಉಲಯ್ತಾನಾ **ಆಮಿಂ ಉಚಾರ್ಲ್ಲ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಕ್ ಪುರ್ತೊ ಅರ್ಥ್ ಯೆತಾನಾ ತ್ಯಾ ಉತ್ರಾಂಚ್ಯಾ 'ಗಾಂಠ್ಲ್ಯಾಕ್' ಆಮಿ ವಾಕ್ಯ** (sentence) **ಮ್ಹಣ್ತಾಂವ್.** ವಾಕ್ಯಾಕ್ ದೋನ್ ವಾಂಟ್ಯಾಂಚಿ ಗರ್ಜ್: ಉದ್ದೇಶ್ಯ ವಾ ಆಪ್ಣೊ ಆನಿ ವಿಧೇಯ್ ವಾ ಆಖ್ಯಾತ (Subject and Predicate).

1. ಉಲೊವ್ಪಿ ಕೊಣಾ ವಾ ಕಿತ್ಯಾ ವಿಶ್ಯಾಂತ್ ಉಲಯ್ತಾ?

2. ತಾಕಾ ಲಾಗೂನ್ (—ತಾಕಾ ಉದ್ದೇಸೂನ್) ತೊ ಕಿತೆಂ ಮ್ಹಣ್ತಾ?

ಹ್ಯಾ ದೊನಿಯ್ ಪ್ರಸ್ನಾಂಕ್ ಜಾಪ್ ದಿಪ್ಪಿ ಉತ್ರಾಂ ಗಾಂಠಾವ್ನ್ ತಾಂಚೊ ಪುರ್ತೊ ಅರ್ಥ್ ಮೆಳ್ತಾನಾ ಏಕ್ ವಾಕ್ಯ (sentence) ಜಾತಾ. ವಯ್ಲ್ಯಾ ದಿಲ್ಲ್ಯಾ ಪ್ರಸ್ನಾಂಕ್ ಅನುಸರೂನ್ ವಾಕ್ಯಾಂತ್ ದೋನ್ ಮುಖೆಲ್ ವಾಂಟೆ ಆಸೊಂಕೂಚ್ ಜಾಯ್.

1. ಬಾಬಿ ಧಾಂವ್ತಾ. 2. ಬಾಬಿ ನಿದ್ಲಾ.

3. ಬಾಬಿ ಕಾಣಿ ಸಾಂಗ್ತಾ.

ಹ್ಯಾ ತಿನೀಯ್ ವಾಕ್ಯಾಂನಿ "ಬಾಬಿ" ವಿಶಿಂ—ಬಾಬಿಕ್ ಉದ್ದೆಸೂನ್ ಕಾಂಯ್ ಸಾಂಗ್ಲಾಂ. ವ್ಯಾಕರಣಾಂತ್ ಹ್ಯಾ ಪಯ್ಲ್ಯಾ ವಾಂಟ್ಯಾಕ್ **"ಉದ್ದೇಶ್ಯ" ವಾ "ಕರ್ತೊ"** (subject) ಅಶೆಂ ನಾಂವ್ ಆಸಾ. ಹ್ಯಾ ಕರ್ತ್ಯಾವಿಶಿಂ ಉಲೊವ್ಪ್ಯಾಕ್ ಜೆಂ ಸಾಂಗುಂಕ್ ಆಸ್ಲೆಂ ತೆಂ ತಾಣೆಂ ವಾಕ್ಯಾಚ್ಯಾ ಯೆರ್ ಉತ್ರಾಂನಿ

